# जायां पुडो - ३

(कवितां झेलो)

- सौ. शितल साळगांवकार




रक्षंदा प्रकाशन,
वेरें-बेती, बार्देस-गोंय

# • जायां पुडो

(कवितां झेलो)


• **कवयित्री:-** सौ. शितल रामचंद्र साळगांवकार,
वेरें-बेती, बार्देस-गोंय,
मोबायल : ९३७२०६५३२७, ९३२६१२०१५९

• **प्रकाशक:-** रक्षंदा प्रकाशन,
वेरें-बेती, बार्देस-गोंय,

• **सहप्रकाशक:-** श्री. सुदेश काशिनाथ आर्लेकर,
जागर प्रकाशन,
श्री गोपाळकृष्ण मंदिरा लागसार, फ्रेइतसवाडो, वेर्ला,
बार्देस - गोंय. पोस्ट - पर्रा (४०३५१०)
मोबायल : ९८२२१७९१२५
ई-मेल : arlekarsudesh@gmail.com





• **मुखचित्र:-** श्री. नीलेश दिवकार, वेरें-बार्देस

• **पयली आवृत्ती:-** दि. २२ ऑगस्ट २०१५

• **मोल :-** ₹ १७०/-

प्रस्तावना

# जायां पुडो परमळटना

**– माधव बोरकार,**
अध्यक्ष, गोवा कोंकणी अकादमी

बायल एका कापडान म्हातारी जायना हें जितलें खरें, तितलेंच एका पांखान कोण मोर जावंक पावचेलो ना. आमचो काळ हो एका पांखान मोर जावपी लोकांचो. सिद्धी परसूय प्रसिद्धीचो तांका हावेस आसा. कलेची साधना ही म्हत्वाची आसता हाची जाणविकाय आमचे मर्दी कितल्यांक आसा हो एक प्रस्न. कलेंत सातत्य आसपाक जाय. आपल्या हातसून बरी निर्मणी जावची हो हावेस कलावंताच्या मनांत आसप गरजेचें आसता.

शितल साळगांवकरान हे आदीं आमकां जायांचे दोन पुडे दिले आनी आतां तें तिसरो पुडो घेवन येता. जाय हें फूल खेरीत व्यक्तीमत्व आशिल्लें फूल. शितलाक जायांचो सोस कित्याक तें ताच्यो कविता वाचतकच लक्षांत येता. ताच्यो जायो उमेदीर फुलतात. त्यो दुसऱ्यांच्या ओंठांर हांसो परमळायत फुलतात.

*म्हज्यो जायो*
*पोशांत तुमच्या*
*यादीनीं घुसपतात*
*म्हज्यो जायो*
*कानांत तुमच्या*
*उतरांनी गुणगुणटात*

तांच्या मुळाक म्हाड्डोळची माती आसा. ही जाय तिका आवयच्या रुपान दिसता. देखून कवयित्री म्हणटा,

*आयज म्हज्या आंगणांत*
*जाय फांकारल्या*
*आंगभर आंकुरल्या*
*रातभर फुलपाची*
*तिणें तजवीज केल्या*

अशे तरेन जायेच्या फुलान तिचें सगळें भावविश्व व्यापलां. जाय ही एक म्हत्वाची प्रतिमा हे कवितेंत आयल्या. तिच्यो सगळ्यो यादी जाये भोंवतणी गुंथिल्ल्यो आसात. देखून तिणें दिल्लें 'जायां पुडो' हें नांव योग्य दिसता.

मनशाच्या जिवितांत सुखा परस दुखांचे खीण चड येतात. हे खीण तो केन्नाच विसरपाक शकना. खूप फावट हे दुखाचे खीण ताका कोडू करता. सगल्या संवसाराचेर तो उबगता आनी आपल्या पेल्याक तो समजून घेवंक पावना. देवान आपल्याचेर अन्यायूच केला हे भावनेन तो सवंसाराकडेन पळयता. कांय भोग हे सामके अटळ आसतात, हाची जाणीव म्हण्टा तशी आमकां जायना.

*नाका देवा ताकां तें*
*जें हांवें भोगलां*
*सोंसूंक जावचें ना तांचे कडेन*
*जें हांवें सोंसलां*

कितल्या साद्या-सोंप्या उतरांनी कवयित्री आपले नीज अणभव आनी जिणे विशींचें तत्वज्ञान मांडटा तें पळयात. ह्यो वळी निखट्यो उतरांच्या पावंड्यार उरनात, तर तातूंत गोठेल्लो आशय मनांत खोल पाझरता, आनी ताकाच लागून त्यो वाचप्यांच्या संवेदनशील मनांत दीर्घ काळ घर करून रावतात. दुसऱ्याक समजून घेवपाक आपले ठांय तशीच संवेदनशीलताय आसची पडटा.

*मळबा येद्या मनान म्हज्या*
*मेकळेपणान वावर गो*
*अंतकरणांतलो थावो म्हजो*
*उभारेर सोद गो*

अशी अभिव्यक्ती तेन्नाच हे कवितेक फुटूंक पावता. तिच्या पावलांक घटसाण मेळटा ती भुंयेच्या वासांतल्यानूच. ही कवयित्री दुखाच्या अणभवाकडेन कशी पळयता हाची गवाय 'दूक' सारकिली कविता दिता.

*किदें किदें लिपयलें*
*दुसऱ्याक कळचें न्हय म्हणून*
*हांसत गायत रावतलें*

आपल्या दुखाचें हिसपा भायर प्रदर्शन मांडल्यार त्या दुखाचो फार्स जाता आनी ताची धार मुंडेता. ह्या संग्रहांतली ही एक म्हत्वाची कविता म्हूण हांव तिचे कडेन बोट दाखयन. मनीस धांव धांवता आनी खरशेता. तरी आसतना कांयच जायना. कित्याक

तर नशिबान तुज्या जें कितें आसा तेंच तुका मेळटा.

*कोणाच्याच नशिबांतलें*
*कांयच काडूंक जायना*
*कोणाच्याच नशिबांत*
*कांयच घालूंक जायना*

हें आमच्या जिविताचें सादें सोंपें गणित हे वळींतल्यांन मांडलां. हो सार्वत्रीक अणभव आशिल्ल्यान ही कविता दर वाचप्याक आपलीच कशी दिसतली.

प्रेम होय शितलाचे कवितेचो एक स्थायिभाव. पूण हे कवितेंत व्यक्त जावपी प्रेम हें जायांच्या परमळावरी आसा.

*तूं येताच जाग येता मनाक*
*नदर सरभोंवतणी धांवतां*
*तूं म्हऱ्यांत पावतकच*
*तल्लीन जातां हांव*

तो ताच्या म्हऱ्यांत येतकच खंयच्या तरी आदल्या जल्माची आशिल्ली अशें तिका दिसपाक लागता. आनी मागीर तिचें भान सुट्टा आनी 'हांव हांवूच उरना त्या खिणाक' अशी तिची अवस्था जाता.

हालीं साहित्यांत स्त्रीवाद व्हडा प्रमाणांत व्यक्त जाल्लो दिसता. खूप फावट तो नीज अणभवांतल्यान आयिल्लो दिसता, तर कांय कविता कथांनी तो निव्वळ फॅशन म्हूण आयिल्लो दिसता. शितलाचे कवितेचे प्रकृतीक तो मानवता अशें दिसना. घडये तो अणभव जे तरेन मुरूंक जाय तसो तो पिकिल्लो आसा अशें म्हणप कठीण. स्त्रीमुक्ती चळवळीचो बावटो ताणें आपल्या खांदार बळयांच घेतला अशें ताच्यो कांय कविता वाचतना जाणवता. पूण एक बायल मनीस म्हूण जियेतना आयिल्ले अणभव हांगा बेस बरे व्यक्त जाल्यात.

*नाल्ल सोलतना*
*बसलो कोयतो*
*रगताचो शिंवर जालो*
*हांवें हाय म्हटलेंच ना*

ह्यो वळी अर्थपूर्ण दिसतात. एके अस्तुरेचें भावविश्व हें. तिचे सोंसणीकायेक शीम नासता म्हूण हो संवसार चलता. देखुनूच,

*म्हजे वाटेर कांटे दवरतात*
*बेठे तुज्याच हाताक*
*वोगीच तोंपूं नाका*
*तूं म्हाका कितेंच दिवं नाका!*

हे वळींक विशेश असो अर्थ आसा.

म्हजे नदरेन ह्या संग्रहांतली सगळ्यांत सुंदर कविता म्हळ्यार 'तजवीज'. आशयाची मांडावळ आनी तिचो भायलो आकृतीबंध हे दोनूय नदरेन ही कविता लक्ष वेधून घेता. कविता सदांच कवी कडल्यान कांय गजालींची मागणी करता. कवितेच्या आशया बराबरूच तिच्या भायल्या रुपाकडेन लक्ष दिवप गरजेचें आसता. कविता बरोवन जातकच तिका कुशीक दवरून तिरायत नदरेन तिचे कडेन पळोवपाक जाय. खूप फावट कवी उमाळ्या भरशीं वळीर वळी बरोवन वता. पूण तातूंत निजाचे वळीं बराबर अडेच्यो वळी आयिल्ल्यो दिसतात. असले वळींची नडणी करतलो जाल्यार ही तिरायत नदर गरजेची आसता. आनी मागीरूच कवितेक एक रेखीव आनी घोटीव रूप येवंक पावता. शितलाचो हो तिसरो कविता संग्रह. ताका लागून तिच्या खांदार ही जापसालदारकी आयल्या. आपणे बरयल्ल्यो सगळ्योच कविता कवीक बऱ्यो दिसल्यो तरी संग्रहांत तांचो आसपाव करतना काळजार फातर दवरून तातूंतल्यो कांय भायर दवरूंक जाय. कित्याक तर असल्या कवितांक लागून बऱ्या कवितांकूय नखलामी जाता.

आमचे नवे पिळगे भितर कवितेची साधना करपाची वान्सा दिसना. वेगवेगळे प्रकृतीचे कवी वाचून तांचे संस्कार आपले कवितेमर्दी जिरोवन घेतल्यार कवितेचे वाडीक पोसवण मेळूंक पावतली. खंयचेय कलेंत लयतत्व म्हत्वाचें आसता. उतरां लयेच्या आंगान चलपाक लागलीं म्हण्टकच एखाद्रे गद्य वळीक लेगीत काव्याची कांत मारपाक लागता. कवीच्या आंगांत ही लय भिनूंक जाय.

अखेरेक हांव समेर येतां. शितल आतां बरोवंक लागल्यार बरींच वर्सां जालीं. आतां तें उदेंतें कवयित्री उरूंक ना. आपले कविते कडेन तिरायत नदरेन पळोवन आपले गूणदोश पळोवचेलो वेळ आयला...

(ताळगांव; १२ ऑगस्ट २०१५)

●●●

# भौ. रमेश वेळुस्कारबाबान धाडिल्लें पत्र

**रमेश वेळुस्कार,**
पाळें, गोवा-वेल्हा - गोवा

**बाय शितल साळगांवकार,**

तुजो जायांचो पुडो सोडोवन पळयलो. आनी तुज्या तर जायांचो घमघम उक्तो जालो. हो घमघम तुज्या मनांतलो. तुवें कैक वर्सां केळयल्लो. जायो ह्यो तुजे खातीर निमित्त. तुज्या मनांत खदखदपी उत्फर्के म्हाका खूब भावलें. परबी!

शितल, अशें म्हणटात की बायल खंय एका कापडान म्हातारी जायना. तुका खूब व्हडली वाटचाल करपाची आसा. ते खातीर बरयत रावचें पडटा. तुका खबर आसा, महाश्वेतादेवी म्हण एक बंगाली लेखिका आसा. ती सतत बरयत आसता. आतां मेरेन तिणें पंचवीस-तीस कथासंग्रह, निबंद संग्रह, शंबरेक कादंबऱ्यो आनी ३०-४०शेक वर्सां वृत्तपत्रीय लिखाण केलां आनी करतां. ही बायल ज्ञानपीठ विजेतीय आसा. तिका मॅगसेसेय मेळ्ळा. मनशान ही धून घेवनूच वावुरचें पडटा. जायांच्या पुड्याच्या निमतान एक गजाल कळ्ळी की तुज्यांत खूब कितें भरलेलें आसा. तें भायर येवंक रावतां. तें तुजे लेखणेक रावतां.

बरें मागून,

सस्नेह,
**रमेश भगवंत वेळुस्कार**

●●●

# सौ. शितल रामचंद्र साळगांवकार

वेरें-बेती, बार्देस-गोंय

- आदल्यो - संध्या दत्ताराम नार्वेकार (शिवोलें, बार्देस-गोंय).
- सद्याक गोवा स्टेट कॉऑपरेटिव्ह बँकेत नोकरी.
- साहित्याची आवड. कोंकणी-मराठी कवितांचें लेखन.
- साबार कोंकणी-मराठी साहित्य संमेलनांतल्यान कवितांचें सादरीकरण. ('कोकण मराठी परिषदे'र्ची शेकोटी संमेलनां, 'प्रागतिक विचार मंचा'र्ची साहित्य संमेलनां).
- 'सुनापरान्त' दिसाळ्यांत कवितालेखन, कथालेखन तशेंच 'खडीसाकर' स्तंभलेखन.
- आकाशवाणीचेर 'युववाणी' कार्यावळींत कवितांचें वाचन.
- 'उगतें मळब' कार्यावळींत कवितांचें सादरीकरण.
- शिवोली मराठी साहित्य संमेलनांत कवितेखातीर पुरस्कार.
- २०११ वर्सा 'जायां पुडो' आनी २०१३ वर्सा 'जायां पुडो - २' हे दोन कोंकणी कविता झेले उजवाडाक आयल्यात.
- 'गोमंतक साहित्य सेवक मंडळ' संस्थेचें म्हयन्याळें 'काव्यसंध्या' कार्यावळींत नेमान कवितांचें सादरीकरण.
- २०१३ वर्सा 'रानगंध' हो मराठी कविता झेलो उजवाडाक आयला.

●●●

# मनांतलें

अक्षरांच्यो जायो हांव अणभवाचे दोरयेंत घुसपायत गेलें... सरभोंवतणी जें दिसलें, जें पळयलें, जें मनाक भावलें आनी जें पळोवन मन खंय तरी दुखावलें, राग आयलो... ही मनाची विवंचना आनी वेगवेगळे परिस्थितीन आपली जीण जगपी... जगपा खातीर सोंसपी... कश्ट उखलपी... राक्षीण जावन येता त्या संकश्टांक तोंड दिवपी अस्तुरी, तिच्यो भावना, तिचो कावज, आकांत... घडामोडी, दुखर्णी, म्हज्या भुरगेपणाच्यो यादी, आयच्या सरभोंवतणांत शेणिल्लें भुरगेपण... जिणेची वाट... माड्डयले घांट... काळखी रात... हांव मर्दी... सरभोंवतणी यादी... हातांत अक्षरांचे पोड मेळटा तें, मेळटा तशें हांव घुसपायत गेलें...

दीसभर मर मर काम करून भुरगीं-बाळांची भूक वळखून स्वताच्या जिवाचो त्याग करपी... एक अस्तुरी मोन्यांनी जळांमळां भोंवून फुलां वेंचता, कुटयता. साबार तरेचीं फुलां, साबार तरेचीं पानां एकठांय करून वळेसर, पोड गुंथता आनी सांज वेळार रस्त्या कुशीक उबी रावता. तिचें मोनेपण आनी भुकेल्लें मन... चार पयशांची आस्त करता... आपल्या भुरग्यांच्यो शाळेच्यो गरजो... तिचे फाल्याचें सपन...

म्हज्या ह्या जायांपुड्यांत वेगवेगळीं चिंतनां, विवंचना घुस्पल्या. एके अस्तुरेची जीण जगतना, दुसरे अस्तुरेचें जगणें आपशींच लक्षांत येता आनी म्हज्या कवनांनी कशें आनी केन्ना घुसपता खबर ना. खरेंच... अक्षरांचे हे पोड हांवें पुस्तकांच्या पुड्यांत गुठलायल्यात.

भौ. वेणीमाधव बोरकार (बाबा) एक विचारवंत 'कवनाचे कैवारी' हांच्या मोलादीक प्रस्तावनेन म्हज्या ह्या जायांपुड्यांन तांणी एक वेगळेच परमळ बांदला. भौ. रमेश वेळुस्कारबाबान धाडिल्लें पत्र आयजूय हांवें तशेंच सुगूर करून दवरलां. त्या पत्रांत तांणी म्हणलां, ''शितलबाय, बायल खंय एका कापडान म्हातारी जायना.'' अर्थांत तिका खूब कापडां न्हेसूंक जाय हें म्हाका कळून चुकलें. ह्या वाक्यान तांणी म्हाका शिटकायलां, शितलबाय, तुका खूब पुस्तकां बरोवंक जाय. एकूच पुस्तक बरोवन हांव ओगी बसत हाची तांका खंत आसली. तांचीं हीं उतरां म्हाका सदांच

सुर्याच्या किरणां वरी उर्बा दितात.

कवितांचे पोड बांदून हांवें एकठांय केल्ले. हे पोड हांव उक्त्या मळबांत वाचतालें. तेन्ना हे पोड पुस्तकांत बांदून चल शितल तुजें आतां पुस्तक काडुंया, अशें म्हणत म्हज्या हाताक धरून म्हाका पुस्तकाच्या मळ्यार व्हरपी नयन बायक कशें विसरूं?

उगत्या मळबांत म्हजे ज्येशठ आनी इश्ट कवी हांचो म्हाका सदांच वांगड मेळटा. सुनापरान्ताच्या दिसाळ्याचेर खडीसाकर, अस्तुरी, कविता बरोवपाक एक व्हड तेंको मेळलो तो म्हणजे जवाहरभाई आनी गीताबायचो. तांकां साहित्य व्हरून दिवपा खातीर बरोवपाचो एक हुस्को आसतालो आनी कळत नकळत खूब कितें तरी हांव बरोवन गेलें.

'जागर प्रकाशना'चे मानद वेवस्थापक श्री. सुदेश काशिनाथ आर्लेकर 'मूर्त ल्हान पूण किर्त व्हडली'. एका बोटाचेर साहित्याचो मळो उबारपाची तांक ताच्यान आसा, हें एकदां अशेच कार्यावळीक म्हजे नदरेक आयलें. व्हॉटयेंत फुलांचे पोड, हातांत खोले आनी केळीचो दोर घेवन हांवें ताका उलो मारलो. ताणें जाप दीत म्हजो पत्कर घेतलो आनी आयज पुस्तकरुपी पुडे म्हजे सुवादीन केले.

म्हजो तिसरो जायांपुडो हातांत धरून हांव आई म्हाळशेक नमन करतां आनी म्हणटां, ''म्हाड्डेळचे म्हाळशे, नमन तुका म्हजें, म्हाकाय कर गे आई एक अत्तराची कुपी, फूल तुजें,'' म्हज्या पयल्या जायांपुड्याचे कार्यावळींत भौ. विनंतीबाय कांसार म्हज्या पुस्तकाचेर उलयतालें. ताचीं उतरां खरीं जालीं. तांणें म्हणिल्लें, ''हो शितलबायलो जायांपुडो नासून म्हाका तर जायांचो मळोच दिसता.'' खरेंच हो मळो आसा म्हणूनच आयज हो तिसरो जायांचो सुवाळो तुमकां सगळ्यांक एकठांय हाडून मनयता. हात जोडून, पदर पसरून आई म्हाळशे कडेन मागतां, ''वर्सांन वर्स अशेच जायांपुडे बांदपाक म्हाका तांक दी. तुवें दिल्लो हो जायांचे मळो खूब पर्जळुंदी आनी परमळुंदी. म्हाका तुजे आशिर्वाद मेळुंदी. म्हज्या ह्या पुस्तकरुपी पुड्यांक म्हाड्डोळच्या जायांचो पुडो म्हूण सगळ्या वाचप्यांनी तोखेवंदी.''

तुमचें,

– शितल

●●●

# मांडावळ

१.

# पुडो

एक एक पुडो जायांचो
चिंतलो हांवें बांदपाचो
जायो म्हाड्डोळच्यो
दोर केळींचो...
रासभर फुलां
केळम्या दोऱ्यांत घुसपायलीं
दोन खोले हळदीचे
आरतो तुजो परतो म्हजो
वांगड तुजो सासणाचो
दोर सांगता केळीचो
धागो तुज्या म्हज्या नात्याचो
पोड जालो जायांचो
हाताक धरून ल्हान फुलान
व्हेलें म्हाका तुज्या गांवांन
परमळ तुज्या फुलांचो
घुसपतालो थंय
घमघम तुळशी पानांचो
पालखेंत बसून तूं
भायर सरताली
आंगभर जायांनी
पाचव्या तुळशी पानांनी
कितली तूं सजलेली
पालखे फाटल्यान
तुज्या हांवें...
पावलां म्हजीं उखल्लीं
पांखां तुवें
आंगार म्हज्या
कशी आई बसयली

हात जोडलो तुका तेन्ना
फुलां म्हाका तुवें दिलीं
फुलां घेवन तुर्जी हांव
कवनां पळय घडयतां
हांव गेल्लें मागूंक पुडो
तुवें दिलो केदो मळो
आज हो तिसरो पुडो
तुका हांव ओंपतां
एक एक पुडो जायांचो
चिंतला हांवें बांदपाचो
जाय तुजो आशिर्वाद
मनोवंक हो जायांचो सुवाळो...

●●●

२.

# हांव जायांकान्न

हांव जायांकान्न म्हाड्डोळची
जायां फुलांनी घुसपल्या
जीण म्हजी
कुयदाद घेतां हांव
जायांच्या झोपांची
खणून खणून माती
मोव करतां भोंवतणची
तानभर शिंपून
वाट पळयतां आंकऱ्याची
नदरेक येतांच कळी म्हज्या
पुजा करतां हांव मळ्याची
हळद कुकूम घालून
उजवात दाखोवन
मागीर काडटां कळी जायेची
ही तर चाल म्हाड्डोळची
म्हाळशेच्या गांवची
माती तिची मोलाची
जायांच्या परमळाची
आंगभर फुलपाची
परब श्रावण म्हयन्याची
पांटलो घेवन पुड्यांचो
पोटा फाटल्यान वचपाचें
जाय बाय... जायो जाय...
पुडो जाय...
म्हाड्डोळचो बाय...

तिचें नांव सांगपाचें
दोन पयशे जोडपाचें...
हांव जायांकान्न म्हाड्डोळची
मनयतां आतां जायांचो सुवाळो
आईकडे मागलेलों एक पुडो
तिणें दिलो केदो मळो
रात दीस भोंवता आई
कुटयत एक एक अक्षराचो कळो
हें मनां झोप म्हजें
तेंगशा तेंगशांनी पालेता
घोंसांनी फुलता
उजवाडलो हो दीस
तुमकां सगळ्यांक उलो मारता
घडोवन हाडूंक हो मेळावो
आज आसा जायांचो सुवाळो
अक्षरां वोंठार म्हज्या फुलयतां
कवनांच्या पोडांनी गुंतत वतात
जायांच्या परमळान
आईच्या आशिर्वादान
जाया पोड घडत वतात
हांवूंय एक जायांकान्न म्हाड्डोळची
बांदतां अक्षरां जायो कश्यो
पोड कवनांचो, पुडो पुस्तकांचो
कोंकणी सरस्वतीचे होंटयेंत
परमळटा तिसरो पुडो जायांचो
खरी जायांकान्न म्हाड्डोळची
आई म्हाळसा म्हाड्डोळा बसल्या

आमी तिचे सेवेक
जायांचे पुडे रचल्यात
फुलांचो पोड, अक्षरांचीं कवनां
जायांचो पुडो, कवितेचें पुस्तक
पुजा देवळांत जायांची
उमेद अख्ख्या म्हाड्डोळची
म्हाड्डोळचे म्हाळशे नमन तुका म्हजें
म्हज्या ह्या जायांपुड्याक
आशिर्वाद मागता तुजो!

●●●

३.

# ती कोण आसली ?

रस्त्याचे कडेक उबी
फोंडेंचो वाठार...
अणभवता वळवय गांव
साबार तरेचीं फुलां
साबार तरेचीं पानां
बांदून गुंथून रचयले
पोड, झेले, फांतयो...
पोरणो पोलको
पिचकी साडी
कपलाक कुकूम
पाचवीं कंवचें कांकणां
गळ्यांत अनशीच्या दोरान
गुंथिल्लो विसकळ मणी
ती कोण आसली
एक अस्तुरी...
एकसुरी एकलींच
पणजे घेवपी हांव
बशींतल्यान देंवलें
तिकाच पळोवन
कोण जाणां कितें
म्हाका जालें
फुलां तिचीं पळयलीं
सगळींच घेवशीं दिसलीं
वोंवळां पोड घेतलो
माथेंभर माळ्ळो
इतल्यांत...
पोंदा पोतयेंत लिपयल्यो
फाळयें गुटलायल्यो
तिणें दिलो व्हड जायां पोड

आनी म्हणूंक लागली
घे हो तुका पयलोच म्हाड्डोळचो
आयकून हीं उतरां तिचीं
दिसलें म्हाका मोडचे पयशे
थोडे कशे...
म्हणून काडली नोट पांचश्यांची
तिका म्हणलें घे तुजे पयशे
तिणें खुणायलें नाका...
ती पयशे सांगना...
इतल्यांत पासार जाली
दुसरी बायल...
माथ्यार पांटलो...
आंबे, केळीं घेवन वतालीं
घेतले आंबे, घेतलीं केळीं
आतां मेळ्ळे मोडचे...
तिकाच दितलें म्हणून...
पण ती नाच्च जाली थंयसून
खूब सोदली तिका
चिंतलेलें...
आंबे, केळीं दितलें...
साडयेक दितले पयशे
पांयांक हात लावन पांयां पडटलें
पूण ती गेली...
म्हाड्डोळचे बशींत बसून
तेन्ना कळ्ळें म्हाका
ती कोण आसली...
घरांत भितर सरताच
जाया पोड घमघमलो
केळीं, आंबे कापून हांवें
प्रसाद म्हणून सगळ्यांक वांटलो



४.

# म्हज्यो जायो

म्हज्यो जायो
उमेदीचेर फुलतात
वोंठार तुमच्या हांसो
फुलयत परमळटा
म्हज्यो जायो
पोशांत तुमच्या
यादींनीं घुसपतात
म्हज्यो जायो
कानांत तुमच्या
उतरांनी गुणगुणटात
म्हज्यो जायो
नाकांत तुमच्या
वासान हुळहुळटात
म्हज्यो जायो
तुमीच तर
म्हजेर फुलयतात
म्हज्यो जायो
तुमचेच कडेन हांव दवरतां
म्हज्या जायां मुळाक
म्हाड्डोळची माती
आंगा खांदार रसरसता
फुलां कळ्यांच्यो पाती
परमळ तांचो
वारो घेवन धांवता
सरसकट सगळोच तो
उगत्या मळबांत पावता
उगत्या मळबाक फावता

●●●

५.

# आई

आईन म्हाका धाडली
पांटलो भर माती
तातूंत किल्ललें एक नातें
आनी कळ्ळें म्हाका
हांव तिची धूव म्हणून

आईन म्हाका धाडली
खोंटलो भर माती
तातूंत किल्ललें एक गोतें
आनी कळ्ळें म्हाका
ती म्हजी आई म्हणून

आईन म्हाका धाडली
गाडो भर माती...
तातूंत किल्ललें एक रोंप
आईन सांगलें म्हाका
कितें तें सांगपाचें
ल्हान फुलान दिलें म्हाका
आईन व्हडपण जल्माचें

आयज म्हज्या आंगणांत
जाय फांकारल्या
आंगभर आंकुरल्या
रातभर फुलपाची
तिणें तजवीज केल्या

●●●

६.

# नमन तुका

उगत्या मळबा...
तुकां आमचें नमन...
जमल्यांत आमी मनोवंक
शंबरावें भोवभाशीक कविसंमेलन
आयज...
शेंकड्याचें तू चडलें सोंपण...
हे वणटींतल्यान...
दिसतां आमकां उगतें मळब
सांगाताक आसा आमच्या
कवींचो कळप...
मळबा तुका नमन
उगत्या मळबांतलें उगतेंपण
काळजांतलें हें आपलेंपण
कोण जाणां खंय शेणलें
आमचे मदलें परकेंपण
उगत्या मळबान दिलें
आमकां केदें व्हडलें धन
मळबाची चादर हांगा
धतरीचो हातर
सगळ्यो भाशा जमल्यांत हांगा
म्हणटा एकवटून हात धर
उगत्या मळबां पोंदा आतां
मेकळेपणान वावरुया
शारांत लेगीत ह्या
पांखे जावन भोंवया
मळबा तुका नमन
भोवरंग माखून आमी
बेस बरी रंगोवंया

घुमचे कटर घूम... घुमचे कटर घूम
होळी आमी खेळोवंया
सगळ्या रंगान रंगून आमी
सोबीतपणां वाडोवंया
उगत्या मळबा पोंदा आमी
मेकळ्या मनान नाचुंयां
शेणलेले रंग सगळे
सोदून आमी हाडुंया
भोवभाशीक संमेलनांत ह्या
सगळ्यो भाशा आसपावंया
उगत्या मळबा पोंदा
आमी मेकळेपणान वावरुंया
मळबांत जातली रात तेन्ना
चान्नी जातली उतरां...
मळबांत जातलो दीस तेन्ना
मेळूंक येतलीं भांगराळीं किरणां
हात जोडून मळबा तुका
आयज करतात आमी नमन
जमल्यांत आमी सगळीं जाणां
मनोवंक शंबरावें कविसंमेलन
उगत्या मळबा तुका
आमचें काळजांतल्यान नमन...
●●●

७.

# म्हाड्डोळच्यो जायो

म्हाड्डोळच्या जायांचो...
बांदला हांवें पुडो
आई तुवें दिलो म्हाका
पाचवोचार चुडो
अक्षरांचे कळे
खुणायतात म्हाड्डोळचे मळे
एक-एक अक्षर फुलांचें
व्हडपण म्हाड्डोळच्या दोराचें
गांठ मनाची
फुलां पोडाची
कवनां म्हर्जी
आई तुज्या आशिर्वादाची
अक्षरांचीं फुलां हीं
वोंठार म्हज्या फुलयलीं
म्हाड्डोळचे आईन म्हाका
मायेची पाकळी दिली
आई तुजी पाकळी
जल्माची सांखळी
म्हाड्डोळचे म्हाळशे
नमन तुका म्हजें
दिले तुवें म्हाका
पांटलो भर वजें
कुळारची ही भेट
जायांचो सुवाळो
आरतून परतून अक्षरां
केळ दोरान बांदलीं
अक्षरां सुखां-दुख्खांचीं
गितां तिणें गायलीं

हळदी खोल्यांत गुटलायलीं
म्हाड्डोळच्या जायांचो
बांदलां हांवें पुडो...
आई आयज जायांचो
करतां हांव सुवाळो...
आई तुजो आशिर्वाद
आतां म्हाका मेळ्ळो...
एकवटून आयलीं सगळीं जाणां
हो व्हड दीस उजवाडलो
●●●

८.

# पावलां

ल्हान व्हड पावलां
पांयवाट घडयता
कांट्यां खुट्यांतल्यान
जीण जगयता

ल्हान व्हड पावलां
मनां जुळयतां
कळत नकळत सरभोंवतण
समजूंक शिकयता

पावलां उदरगतीचीं
जीण घडयता
चलून गेल्ले वाटेवयल्यान
निशेंल्लीं खुणा दाखयता

ल्हान व्हड पावलां
व्हड जाग्यार पावयतात
जिणेची उदरगत
सरभोंवतण तोखेता

ल्हान व्हड पावलां
पांयवाट घडयता
कांट्या खुट्यांतल्यान
जीण जगयता



९.

# मना सांवर गो

मना सांवर गो
इतलें विरगळून वचूं नाका
केन्ना अपुरबाय...
केलीच ना तुजी
ताका बेठोच शिणूं नाका
केन्ना तोखेलो ना तुका
ताका बेठोच पळोवन मुरगुटूं नाका
मना सांवर गो... बेठेच
फोफशोन फोफशोन रडूं नाका
फाटल्यो फुडल्यो यादी काडून
जिवाक त्रास करूं नाका
आकूळ पिकूळ जावन
कुडीक तुजे दुखोवं नाका
दुसऱ्यांचें पळोवन सूख
नशिबाक तुज्या शिणूं नाका
मना सांवर गो...
सदांचो हो दुवाळो
कोण करतलो सुवाळो
दोळ्यांतलीं दुकां व्हांवून
हांसून घेवं नाका
मना सांवर गो
लज करूं नाका
बेठेच टवाळे मारून घेवं नाका
फार्टी फुडें पळय नासतना
मन उगतें करूं नाका
मना सांवर गो...
म्हाका समजून घे गो
इतलें हळवें जावं नाका

●●●

११.

# आपलेपण

हार्ली सगळेंच शेणलेलें
मेळपाक लागलां
आनी यादीन शेणलेल्या
तुका...
म्हजें मन सोदपाक लागलां
तूं असोच मेळटलो
तुजे यादीन म्हाका सोदतलो
नांव बदलिल्लें हांव
आनी रूप बदलिल्लो तूं...
तुका हांव नांवान वळखतलें
बदलिल्लें नांव म्हजें
त्याच खिणाक तुका
हांव सांगतलें
यादींनी शेणिल्ली आमी
रोखडींच मेळटलीं...
शेणिल्लें मन मेळटल्याचें धन
अशेंच आसता...
हें परक्यान घुसपल्लें आपलेपण



१२.

# चल यो

चल यो आंगणांत म्हज्या
सोप्यार मात्शें बसूंक
शिंपलां आंगण आतांच हांवें
ताका मात्शें पुंसूंक
येतना निशेत यो...
तुज्या पावलांचीं खुणां
सहज नदरेक पडुंदी
कोणाचे तरी...
तळमळटात तीं आमचीं मनां
आनी चाळोवनी आमकां
आनी विचारुंदी तांकां
घडोवन येवंदी थंयच सोयरीक
तुजी... म्हजी...
निर्शेल्ल्यां पावलांक
आशेल्ली वाट
तुज्या म्हज्या लग्नाची गांठ
सोंपोय पळयता तुजी वाट
धांवत यो आंगणांत
पितारीत लक्ष्मीचीं पावलां
तांदळा माप दवरून मर्दी
दार आमकां रावलां

●●●

१३.

# कोनसो

मोग तुजो मोग म्हजो
एकामेकांचो...
पळोवंक गेल्यार...
तूं आनी हांव
कोणूच न्हय कोणाचो
तरी काळजांत आसा
एकमेकांक कोनसो
त्या कोनशांत
सांबाळ्ळा मोग एकमेकांचो
उतर भरवंशाचें
लाख मोलाचें
हुसको मायपासाचो
चिंतनां वालोराचीं
आंवडेता सूख आनी खोशी
एकमेकांची...
तूं तुंवूय म्हजो
हांव हांवूय तुजें
दोगांय मर्दीं आसा मोग
मायपास ल्हानसो...
काळजां कुरकुटांत कोनसो
●●●

# ल्हान-व्हड




हांव ल्हान, तूं व्हड
तूं वयर चड
खूब उलय...
हांव फाटल्यान
उबें रावता...
तुका पळोवन रस्तो
कांटे कंवच्यो कडेक करतलो
म्हाकाय मात्सो तो
नितळ मेळटलो...
पयशांनी सगळेंच मेळटा विकतें
वेळ काळ लागना...
मोटे बारीक सरसकट
पयशेकारांक सगळेंच फुकट
हांव वोगी रावतां
तुका पळयतां
तुजें आयकतां
सरभोंवतण निरखितां
तूं म्हणटा म्हाका उलय
वोगी कित्याक रावतां
तुका खंय खबर
हांव खोलायेन चिंतूंक पावतां
तुजे मुखार हांव
उलयलें जाल्यार
उतर म्हजें थकतलें
तुजी गाडी, म्हजीं पावलां
हांवूच फाटीं पडटलें
कोण तरी म्हाका
वोगी बस म्हणटलो

तुजे सयत उतर तुजें
म्हज्या फुड्यान उखलून धरतलो
तूं वयर चड
खूब उलय...
संवसार तुजे आयकतलो
तूं म्हाका धुकलूं नाका
हांव ल्हान तूं व्हड
हें तुवूय मात्शें विसरूं नाका!
●●●

१५.

# पोरणें

पोरणें जालां मोनें
चकचकता तें सोनें
हांसोवन दाखोवन तुका
फसोवन वतलें...
मुखार तुज्या चकचकून
कमीपणां तुका दितलें
चकचकीत म्हणून
तोखणाय करून घेतलें
सणां-परबेक आपूण
फुडें फुडें धांवतलें
हांसून तुका फसयलें
गुटलावन तुका घेतलें
खरें तुजें आतां
तूंच फाटल्यान ओडटलें
सोंशीत तो भाग्यवान
खऱ्यांक आसा मान
एक दीस फट उफेतलें
चकचकता तें सोनें न्हय
कळून तुका चुकतलें
ते म्हणसर...
खरीं उतरां खरीं भांगरां
तुका सोंसचें पडटलें
जावं उतर जावं भांगर
उतरां तुका दुखयतलीं
थोड्या वेळान कळटलें
जाचें ताका मेळटलें
खरें खरेंच आसतलें
पोरणें तें सोनें
आमी म्हणटलीं

●●●

१६.

## यादी

जिवघेण्यो थोड्यो यादी
आयजूय म्हाका रडयतात
जिणे वाटेर म्हजे वांगडा
फाटल्या फुडल्यान घुसपतात
मुखार येवन एकदां एकदां म्हज्या
अचकीत उब्यो रावतात
तो प्रसंग तो काळ तो वेळ
तशाक तशी
म्हाका झळकता...
विसरूंक जायना
तो खीण तो वेळ
जीण जगतना वाट काडटना
उतरांचें घण पाडेपणां सोंसतना
तोंड धांपून केल्लीं मोनेपणां
आयज तीं पात्रां सगळेंच...
विसरून गेल्यात
आनी म्हाका तोखेतात
आयल्यान ओडटात शिणटात
तेंकूक येतात अपुरबाय करतात
तांच्या मुखार बरें पात्र
जावचें म्हणून हांवें
चारूय वटेन यादी
बंदखणींत हांव मदीं...
जिवघेण्यो थोड्यो यादी
आजूय म्हाका रडयतात
जिणे वाटेर म्हजे वांगडा
अचकीत उब्यो रावतात
फाटल्या फुडल्यान घुसपतात

●●●

१७.

# घर म्हजें

गांवभर भोंवून
घर न्हिदता तेन्ना
सदांच हांव घरां येतां
घराकूय जाली संवंय म्हजी
घर म्हणटा ही गजाल सदची
सगळ्यांनी सांगून सोंपलें
सुदारपाचे चिन्न नासलें
आयज सगळोच गांव न्हिदलो
पिसो कसो हांव गांवभर भोंवलों
कोणूच जागो नासलो
घर म्हजें जागें आसलें
गांवभर लोकांनी चिंतलें
म्हाकाच लागून बेगीन न्हिदपाचें

●●●

१८.

# दिवाळी

दिका-दिकांनी दिवे पेटयत
किट्ट उमाशे रात रंगली
राग झुजां...
तिडक वायटपणा
सगळेंच पुंजायलें
विद्रुपाचें अवचिन्न कशें
एक संवंग घडयलें
व्हड उमेदीन ताका
रात भर नाचयलें
सोयरे धायरे...
इश्ट वांगडी
आपय नासताना आयले
केन्ना नासले कोण कोण
घरा आमगेर पावले
खाणें पिणें फळार काडलो
हांवें केला म्हणून
फुड्यांत तांच्या दवरलों
जागली नरकासुराची रात
रातभर नाचून ताका
फांत्यार जळयलो
आप आपल्या घरा वचून
सुस्त लोक न्हिदलो
जागृतायेन जगपी अस्तुरी
सांजेच्यान कामाक लागलेली
धुवून पुसून रांदची कूड, मान्नें
मडकीं तिणें घासली
रोजां माळेक काट्टां बांदून
आंब्या पानांनी तिका सजयली

फांत्यार उठून तिणें भांड तापयलें
उटणें साबण तेल दवरून सजयलें
वाती भिजोवंक तिणें तेल घातलें
केला सगळो फळार तिणें
फोवूय तरेतरेचें...
उठोवंक गेली सगळ्यांक ती
तेन्ना सगळ्यांनीच म्हणलें राव
आतांच आमी न्हिदल्यांत
रातभर जागल्यांत
बेगीन खावन फोव
खंय कोणाक वचूंक जाय?
आयज दिवाळी
काट्टां फोडूंक जाय
न्हावन धुवून सगळ्यांक
आरत दाखोवंक जाय
अस्तुरी मनाक चिंतनां जडलीं
परब ही दिवाळेची खंय गेली
परात ही फळाराची हांगाच उरली
रात मात नरकासुराची
व्हडा दबाजान मनयली
किट्ट काळी रात चिंतूंक पडली
दिका दिकांनी लिकलिकले दिवे
चान्नी भुयेर शिंपर्ली
●●●

१९.

# कसाई

गांवभर लोकांची अपुरबाय केली
संवसाराचो रथ सांबाळपी
बायलेक विनाकारण मरसर मारली
सांग मनशा किदें तुजी अक्कल उरली
गाय जावन तिणें सगळीं दुख्खां सोंसलीं
कळून चुकलें तिका...
आपूण कसायाच्या तोंडांत फसली
दोळ्यांतलीं दुकां तिणें...
मोनेंपणान गळयलीं
गाभणी जावन ती
दोन वासरां वियेलीं
जिबेन चाटून तिणें तांकां
पोटभर लुचयलीं
कसायाच्या गोठ्यांत तिणें
जीण आपली सारयली
दोळ्यांतली दुकां तिणें
मोनेंपणान सांबाळ्ळीं
भायलो नाद दवरून तुवें
संवसार तुजो भंगयलो
हांसऱ्या पोल्यार तुवें
दुकां थेंबो गळयलो
सरभोंवतणी पळय मनशा
संवसार कसो फुल्ला तो
परमळ तो हूंग मनशा
सोड आतां सगळीं वेसनां
आपणाय थोडीं मनीसपणां
कांयच नासलें तुका उणें
तुज्याच मनाक विचार मनशा
कसाई केलो तुका कोणें?



२०.

# पिशें मन

जागो विकलो तुवें
व्हड एका बिल्डराक
उखलून व्हेलें घर तुवें
बिल्डिंगेच्या एका माळ्यार
शेणलें आंगण
सोदतालें म्हजें मन
बल्कावांतलें सूख
मनाची भूक...
तेन्ना तुवें म्हाका
गॅलरी दाखयली
केदी व्हडली पळय
बल्कावांचो विसर घडयलो
आंगण म्हजें काय बरें
कित्याक तुवें व्हगडायलें?
तुळशी पेड म्हजें त्या बिल्डरान
खंय माडयलें?
फाटलें दार न्हाणी घर
मान्नें चूल मोरी...
भोंवतणी फुलां फुलतालीं
चिकलान कळ्यांतलीं
थंडसाणीन पालवतलीं
तांकां शिंपपाची गरज नासली
सोनटक्क्या वांगडा शब्दुली परमळटाली
फाटल्या दाराची सोबीतकाय वाडटाली
घर आमचें बिल्डराक दिवन
खंयचे फारीक केलें तुवें रीण
पयशे नाका म्हाका
आंगण बल्कांव दी म्हाका

हे दोनूय तुका केन्नाच मेळचे नात
बिल्डिंग मोडून खंयचोच मनीस
घर आंगण तुळस बांदचो ना
मजल्यावयले घर जमनीर
केन्नाच येवचें ना
पयसो तुवेंन घेतलो ताचो
वालोर केन्नाच वाडचोना
फोल्गांच मारूंक सोंपतलो
सुगूर कसोच जावचो ना
फुडले पिळगेक आमचे...
वेंतभर लेगीत जमीन मेळची ना
घरपण ना, मनीसपण ना
कशें कितें जातलें
कशी सरतली जीण
कसो मनोवं सण
तुळशी भोंवतणी आंगणांत
घुसपलां... हे
अस्तुरेचें पिशें मन!

●●●

२१.

# गंगा

नळांतलें उदक
अचळय पोशांत देंवलें
घुंगूर बांदून पावलाक
खळखळ आवाजान
गोड मोवाळ गळ्यान
गीत ताणें गायलें
पळोवन ताची रीत ही
हांवें ताका विचारलें
बाय, तूं खंयच्या गो गांवचें?
ते खळखळून हांसलें
हांव खूब पयसचें
घांटा वयल्यान देंवलें
झर जावन व्हांवलें
दोंगर खडपां माड्डून
कुळागरांतल्यान व्हांवून
धांवत हांव आयलें
रितीरिवाजाच्या सांगातान
निशेतां पावल तुजें
म्हणून विचारतां
बाय, तूं खंयचें?
सुदारिल्या ह्या संवसारांत
हांवूय सुदारलें...!
जीण म्हजी आसली
बांयंत रावपाची
कळसुलेन भरून...
राजवांनी ओडपाची...
आतां जाली
पायपांनी भोंवपाची

पायपान लेगीत खंय
सोडलां हांवें गांवपाचें
व्हड व्हड धरणांनी
वस्तेक हांवें रावपाचें
लक्ष्मीच्या पावलांनी भोंवपी
गंगा नांव म्हजें
कूळ म्हजें अस्तुरेचें
हांसत खेळत जगपाचें
वोगी मातशें राव म्हणसर
हावें चिंतलां बडबडपाचें
कुळाराच्यान व्हांवत...
घोवागेर पावपाचें
तोंडभर हांसून...
काळजांतल्यान मुरगुटपाचें
पळोवन म्हजी रीत ही
तुमच्या सारक्यान विचारपाचें
बाय, तू खंयच्या गो गांवचें...?



२२.

# इश्ट

खूब फावटीं येता आमगेर
एक इश्ट म्हज्या घोवाचो
काडून खातालो
मागून व्हरतालो
भावा भशेन घोवाक
सगळ्यो गजाली सांगतालो
आपलीं कामां सादोवपाक
फाटल्या फुडल्यान भोंवतालो
एक दीस अजापूच घडलें
खाकेक भुरगें हातांत पोटली
रस्त्यार जाल्ली कितली गर्दी
बशीन धाकटे मोटारीक मोखली
त्याच खिणाक नदर म्हजी
इश्टार हेच्या पडली
शूत–शूत करत हांवें
फाट ताची धरली
कानार काडून केंस ताणें
स्कुटर आपली सोडली
उपरांत आयलो एक दीस
हांसत उगडलें म्हजें चिकाण
त्या दिसाचो उगडास करून
केलीं म्हजीं फकांडां...
काळें तोंड करून हांवें
बोचो वांकडो केलों
खूब समजायलो घोवाक
कसोच तो आयकना
देख नाशिल्लो इश्ट तुजो
सांगून समजना...

हांवें मात पारखिलों
कडेक काडून उडयलों
तांदळांतलो आसो कसो
भिरकटावन मारलों
घोवान ताका तशाक तसो
आज लेगीत सांबाळ्ळो
खूब फाटलो उगडास करतां
म्हणटा सगळे आपले इश्ट
हाचेंच नांव घेता पयली
वाचतना इश्टांचें लिस्ट



२३.

# एक दादलो

एक दादलो
कितलो बरो
लोकांकडे वागतालो
फुलां हाडून बाजारांतल्यान
सगळ्या बायलांक वांट्टालो
रुपा रंगाक साडये कपड्याक
तांकां तोखेतालो
भुलताली ताका सगळी
लजतालीं मुरगुट्टालीं
आनी म्हणटालीं
मेळिल्लो जाल्यार असलो जोडकार
करतलें आसलें भांगरा संवसार
चुकून एक दीस...
पावलें ताच्या दारांत
केंसाक धरून मारतालो बायलेक
हें पळयलें म्हज्या दोळ्यांनी
आनी धांवलें ताच्या घरांत
घट धरली ते मनजातीक
आनी विचारलें त्या यमाक
कुळारची गरिबी...
घोवाची दादागिरी
कोणूच नासलो विचारपी
दोंतीक सदांच शिणटालो
आड न्यायान झगडटालो
वाग कसो गुरगुरतालो
तिच्या आंगार धांवतालो
एकाच थापटान ताका हांवें
ओगी बसयलो...

लज जाली ताका
घरांत घालून दोशी
भायर भोंवून खोशी
कांयच तुका मेळचें ना
बऱ्या वायटाक तुका
बायलूच पळयतली
आग्गी पळोवंक येवचीं नात
●●●

२४.

# जाग

तूं येताच जाग येता मनाक
नदर सरभोंवतणी धांवतां
तूं म्हन्यांत पावतुकूच
तल्लीन जातां हांव
मुखार तुज्या निरखितां
खंयच्या तरी जल्माची वळख
हांव हांवूच उरना त्या खिणाक
आनी तुजें मुखामळ रसरसता
घट्ट आपणायता म्हाका
म्हजें तूं म्हणटा...
आनी सुलूस लागता...
एका नात्याची
जाग येता त्या खिणाक
अंतर्मनाक...
सरभोंवतणची...



२५.

# यादींची पोटली

म्हजे यादींचे पोटलेंत
अचकीत मेळटा म्हाका भुरगेपण
म्हजे शाळेच्या वाठारांत
शेणलां म्हजें तें धन
चंवर येतालो आंब्याक थंय
मृगां-तारो पळय
कांट्यांनीं जातालीं बोरां
काट्याक लेगीत खंय भितालीं
आमी इल्लीशीं पोरां?
रुखा मुळार शिंपडल्या
माणकुलीं चिंचेचीं दाबां
लांब रुंद केंसांचे विणयेर
फुलतालीं चाफ्याचीं फुलां
म्हजे शाळेच्या वाठारांत
सरभोंवतण कितलो मेकळो
शाळे फाटल्यान व्हाळ व्हांवतालो
नितळ निर्मळ झरो दिसतालो
कुशीक ताच्या फुलां ओंवळां
वडी कशीं धांवतालीं
म्हजे शाळेच्या आंगणांत
कितल्योशोच आसल्यो पांयवाटो
आमीच घडयल्यो...
रस्त्यार वचनासतना
धांवताल्यो म्हणून गाडयो
म्हजे शाळेच्या वाटारांत
खंयच्याच घराक नासलो आडो
मदल्या वेळार आपयतालो
आमकां खेळूंक तांचो सोपो

आयज म्हजे शाळेचो भोंवतण
जाला वाट नाशिल्लो
येतात फकत वीस भुरगीं
तांकां सरभोंवतण ना मेकळो
वाटो सगळ्यो पुरयल्यांत
शाळा बंदखणींत पडल्या
भायर वचप ना अशी शिस्त काडल्या
शाळेकडे तिगलें ना
पयलीचें आपलेंपण
म्हजे शाळेच्या वाठारांत
शेणलां म्हजें भुरगेपण
म्हजे यादींचे पोटलेंत...
आसा तें खूब व्हडलें धन...

●●●

२६.

# बायल

वेंतभर पोटा खातीर
हातभर खणपी
बायल हांव
हांसत जगपी
सुदारला म्हणटात संवसार
पूण म्हजे भोंवतणी
सोदतां हांव...
वाडला खंय बायलेचो अधिकार
बायलेचो हक्क...
आनी जाणविकाय
म्हजे भोंवतणी
कांयच दिसना...
अपुरबायेची एक चली
चार बूक शिकलें नली
आवय बापायच्या
इस्टेटीचें जालें वाली
दोन दीस घोवागेर
अपुरबाय ताची जाली
हांतुतूच ह्या संवसारान
सुदारणा पळयली
कांयच ना सुदारूंक
सुदारल्या पळोवपाची नदर
आनी वाडल्या सोंसपाची तांक
बायल धांवता सरभोंवतण
घोव चलता शितळ थंड
कोणूच काकूळट करना
नाजुका तीच दुर्गा
हांसत जगप सोडना

सांग म्हाका सुदारणा
कशी खंय घडना
वेंतभर पोटाखातीर
हातभर खणपी
बायल हांव
हांसत जगपी
कोणाकूच भियेना
हांसतां मोकळें
सोंसतां सगळें
तरी केन्नाच रडना
सुदारला म्हणटा
संवसार हो
तरी म्हजे भोंवतणी
कांयच सुदारूंक ना



२७.

# नाका देवा

नाका देवा ताका तें
जें हांवें भोगलां
सोंसूंक जावचें ना तांचे कडेन
जें हांवें सोंसलां
भोगूंक जावचें ना ताचेकडेन
जें हांवें भोगलां
आवय विणे जीण ही
कशी हांव जगलां
म्हणून म्हणटा देवा
आवय सदांच भुरग्याक दी
व्हड जायसर भुरगीं
तिका बरी सावूद दी
हाल ते तानेभुकेचें
ओंठ लाळ गळोवपाचे
दुसरी आवय आपल्या
भुरग्याक भरयतना
आंवंडे गिळपाचे...
खावंक तांकां जाय आसता
म्हणटा तांकां कितेंय पचता
पळोवंक म्हाका जायना
हात जोडून मागतां देवा
भुरग्यांच्या भुरगेपणाक
आवयची माया दी
व्हड जायसर भुरगीं
आवयक बरी सावूद दी



२८.

## मळब

मळबा येद्या मनांत म्हज्या
मेकळेपणान वावर गो
अंतकरणांतलो थावो म्हजो
उभारेर सोद गो...
मनाक नाका पांखां तुज्या
पावलां घेवन यो गो...
जीण ही धर्तरेची
पावल म्हजें मातये वासाक
घटसाण दिता भूंय म्हाका
हाताक फुटल्या फागूर गो...
पांयांक भरल्या मुनां म्हज्या
पावलां कणकणी किल्लतां गो...
मळबा येद्या मनांत म्हज्या
मेकळेपणान वावर गो...
मुळांत म्हज्या यो गो रुजून
सांवळेक म्हजे घे गो बसून
मळबा येद्या मनांत म्हज्या
मेकळेपणान वावर गो...

●●●

२९.

# मन पावलां

मन पावल चलतां
मन पावल भोंवतां
मन पावल हांसतां
मन पावल रडटां
मन पावल जगतां
मन पावल थारतां
खीण भर बसतां
म्हजे भितर घुसपतां
जीण म्हजी आपणायतां
मन पावल खेळटां
यादी सांसपितां
मुमुरख्यांनी हांसतां
चिंतनाच्या हारश्यांत
आपुणूच मुरगुट्टां
सांगून तुका कळचें ना
सोदून तुका मेळचें ना
मन पावल म्हजें
खुणां ताचीं निर्शेना
मन पावल घुसपतां
जीण म्हजी सांसपितां
मन पावल धांवतां
उदरगत घडयतां
हांव उबें घरांत
मन पावल मात...
भोंवून येतां...
उब्या संवसारांत



३०.

## सकाळ

फांत्यार उठून हांव
सकाळ सोदतालें
फुडल्या दाराचो
आडो काडून
हांव आंगणांत धांवतालें
जिळमिळ्या मळबांत हांव
किरणां सोदतालें
कालच्या कळ्यांची
मोटाय हांव अदमासान जोखतालें
आंकऱ्यो तेंगश्यो झाडाच्यो
माणकुल्या बोटांनी पेचतालें
कळे खेळटा काय लिपच्यांनी
म्हणून सोदूंक हांव भोंवतालें
फुलां पानांचेर दंवा थेंब्याचेर
नदर म्हजी भोंवडायतालें
तुळशी पेडा भोंवतणी
धूं धूं धुताले
आंगणांतलीं चाफीं हांव
व्हटयेंत म्हजे वेंचतालें
आंवाळो बिमलां हांव
चरचरीत खातालें
पेरी मुळांत भोंवून हांव
आंकऱ्यो तिचो चोखतालें
हालोवन हालोवन तुळशी रोंप
परमळ तिचो हुंगतालें
गुलाबाचे पळोवन कांटे

नाका देवा फुलां फांटे
सोडून हांव येतालें
फांत्यार उठून हांव
आंगण भोंवतालें
उमेदीच्चीं बांदून पांखां
हांव सकाळ सोदतालें


३१.

# कांटे

कांटे आसले झाडाक
बारीक मोटे आंगभर
हांव वाल
चरत गेले मुळांत...
चडत गेलें आंगाखांदार
कापाज बाये ही वाल
आनी नासलो उपाय
चुरचुरे कांटे तोंपतले
कोण तरी म्हणटालो
आंगभर कांट्यांचेर
चडलें हांव...
वाट काडीत खांचकटींतल्यान
फांकरत गेलें...
आसा तशें आसले कांटे
म्हजे वाटेक आयले नात
फळां फुलां रसरसलीं तेन्ना
राखणे जाले ते
कोणाकूच म्हाका लुटूंक मेळ्ळें ना...
सगळे सोडून कांट्यांनी
फुलां-फळां पिकल्यांत
हात घालूंक मेळना...
जीव चुटमटता
कोण तरी म्हणटालो
आर्रा... चोरा
आतां आयलें लक्षांत
तेन्ना म्हजें तें चुरचुरें
कर नासलें
फळां फुलां लुटूंक मेळचें ना
हाचें चिंतेंत आसलें

●●●

३२.

# कोणूय आसूं

कोणूय आसूं तो कोणाचो
कसोय आसूं तो आपल्या नशिबाचो
जेवन खावन न्हेसून कांबरून
कोणूय सुखी आसचो
दुखेस्तांचें दुख पळोवंक जाय नासलें
देवाकडे मागतां हांव
कसो कोणूय तो जावं
ताका कश्ट करपाक
तांक आसुंदी
कश्टाची भाकर खावंक
दांत ताका आसुंदी
फाट तेंकयताच
ताका सुस्त न्हीद पडुंदी
फांत्यार ताका जाग येवंदी
नव्या दिसाचो उजवाड
ताच्या शिरंतरांत भरुंदी
सावूद आनी भलायकी
ताका आसुंदी
नदरेक नदर मेळटाच
हांसण्यांत ताच्या घटाय आसुंदी
चडर्ची ताणें उदरगतीर्ची सोंपणां
जावन एका एका पावलांनी
घुसपल्ले आसुंदी ताच्या भोंवतणी
मनीसपण... आपलेंपण... ल्हानपण...



३३.

# पाप–पुण्य

आतां म्हज्या घरांत
तुज्या म्हज्या संवसारांत
झगडीं जाय नात
नाल्ल सोलतना
बसलो कोयतो
रगताचो शिंवर जालो
हांवें हाय म्हणलेंच ना
मान्नेंभर घासलीं आयदनां
आयदनाक आयदन
आपटूंक दिलें ना
हातरुणाच्यो केल्यो घडयो
नजो म्हणूंक ना
सारण कोयर मारलो हांवें
जायना म्हणूंक ना
शेंवटून पडले आंगणांत
दोळ्यांकडे काळोख
येता म्हणूंक ना
जेवण सोंपले जाल्यार
उदक पिलें हांव
भूक लागल्या म्हणूंक ना
रांद, वाड, उश्टें काड
कसरत तारेवयली करतना
मरणाक भियेवंक ना
झेंपना तें झेंपतां हांव
तोलना तें तोलतां हांव
तोंड धांपून जगतां हांव
आवाज करिना
गितां खेळटां वोंठार म्हज्या
कशेंच गायनां हांव

भरून भरून येतां मन
दुकां कर्शीच गळयनां हांव
हो जन्म केन्नाच सुदारचो ना
काकळूट कोणेंच करची ना
बायल देखील बायलेचें
उतर काळजांत धरची ना
धांपिल्ली मूठ सव्वा लाखाची
सोंसत सोंसत जगपाचें
हुंगत हुंगत मरपाक आतां
पावल फुडें घालपाचें
केन्नाच ना सुदारचें
जिणें हें अस्तुरीचें
प्रेतार घालून फुलां पिंजर
सवायशिणीचें मरण चिंतपाचें
झर झर झरून...
मर मर मरपाचें...
मरणाक भाग्य समजुपाचें
घोवान मात रोखडेंच
दुसरें लग्न करपाचें
पिडपा खातीर परत
कोणाक तरी घरांत हाडपाचें
हांव दादलो हड्डें फोडपाचें
वाग कसो आंगार...
गुरगुरून धांवपाचें
दाळ आपली शिजना जाल्यार
कोयत्या सुऱ्यांनी मारपाचें
ती मेली जाल्यार...
परत लग्न जावपाचें
जिणें हें अस्तुरीचें अशेंच चलपाचें
जल्माचें पाप तिका...
मरणाचें पुण्य जोडपाचें
●●●

३४.

# धिगी

उजव्या हातान सोद म्हाका
दाव्या खांद्यार तुज्या
तुका हांव मेळटलें
धिगी म्हाका तुज्या खांद्याची
हें त्याच खिणाक तुका कळटलें
उजव्या हातान तुज्या
घेतलो तुवें उजवो हात म्हजो
काळजाचे खोलायेन
चिंतलों हांवें खोल आदार तुजो
शेणिल्लीं मनां
शेणिल्ल्यो वाटो
चार खुटयांचो हो मन माटो
परजळटा जीण म्हजी
तुज्या आंगाखांद्यार
वाऱ्या वादळाक धोलता मन
हांसता तुका म्हज्यांतलें पिशेंपण
कोणूय चिंततलो हें बाये किंते
हो बाये कोण
हें कांयच न्हय
जिणें वाटेर एक कोनसो
तुज्या काळजांत म्हाका
म्हज्या काळजांत तुका
ल्हानसो...
उजव्या हातान सोद म्हाका
दाव्या खांद्यार तुज्या
तुका हांव मेळटलें
धिगी म्हाका तुज्या खांद्याची
हें त्याच खिणाक तुका कळटलें!

●●●

३५.

# एक सत

एक सत परत परत
दोळ्यांमुखार निऱ्यातां
गोड यादी परत परत
मन म्हजें हांसयतां
एक सपन परत परत
आतां हांव सपनेतां
एक शून्य परत परत
जिणेर हांव सांसपितां
एक वाट परत परत
सदांच हांव घुसपतां
निर्शेल्ल्या पावलांक तुज्या
किट्ट काळखांत वळखतां
साद आसलो काळजांतलो
आवाज नासलो उतरांतलो
नदरेक नासली नदर म्हजी
कशी करूं चूक वाऱ्याची
केदें व्हडलें शिकर हें
चलतां उदरगतीचें
एक एक पावल मुखार
उतर तुजें अपुरबायेचें
आशेल्लें मन म्हजें
सपन सपनेतां
पयस तूं तरी मन सांवरता
सांगतां तुका सगळें
मन करतां मेकळें

एक सत परत परत
जिणेर हांव फुलयतां
तूं फक्त म्हजो
हें सांगून मनाक समजायतां



३६.

# दुकां

किदें किदें लिपयलें
दुसऱ्यांक कळचें न्हय म्हणून
हांसत गायत रावतलें
दूक आपलें लिपोवंक
दूक देखीत हांसयता
हांसून सगळें निभयता
कितें तरी अचळे गळटा
दूक सगळ्यांक कळटा
तोंडार हांसो ताणें फांसलो
दूक लिपोवपाचो...
तो तर्क आसलो
दूक देखीत हांसत निभोवचें
लिपोवक ताका हांसोन फसोवचें
हासो मुखार फासून
पावल फुडें घालचें
दूक सगळें गिळून
हांसत जीण जगची
हांसो देखीत रङ्गालो
सोसूंक जायना जावन
कपी कपी कितले कडे
थिगणी मारतले
ओडून ताणून आकूळ पिकूळ
कशें कशें जातलें
कितें कितें लिपयतलें
दुसऱ्याक कळचें न्हय म्हणून



३७.

# मनाचे वेळेर

मनाचे वेळेर यादींचीं ल्हारां
आपटून आपटून विरगळटात
मनाचे वाटेर
अमुरपिक्यो यादी
पावलांक म्हज्या घुसपतात
यादींतली एक एक याद
काळजां गोड्यांक घालता साद
मनाचो हावेस...
यादींचो पावस...
उतरांची रुजवण
यादी फुलयता...
भुल्लुसलेल्या मनाक म्हज्या
भुलकावळी चाळयता
यादींच्या रानांत मनाचो खेळ
चिंतनां खेळयता
पळोवन हीं नाडेपणां
किरकावळो चाळयता
मनाचे वेळेर यादींचीं ल्हारां
दोळ्यांतल्यान पावस गळयता
दोळ्यांतलीं दुकां दर्याचें उदक
खारसाण दाखयता
मनाचो हावेस
यादींचो पावस
मन धर्तरी भिजयता
मनाचे वेळेर यादींचीं ल्हारां
आपटून आपटून विरगळटात



३८.

# अस्तुरी

अस्तुरी पन्नास जिची पिराय
ती परिपक्व आसपाक जाय
अणभवाच्या बळार
तिणें नाचपाक जाय
कालच्या गिन्यानान तिणें
मुखार पावल घालपाक जाय
फाटली चूक मुखार येताच
शिटूक रावपाक जाय
जाल्लें परत जावचें न्हय
वायट केन्नाच घडचें न्हय
हाची जतनाय तिणें घेवपाक जाय
एकदांच वळखून प्रसंग
तिणें अणभवान जगपाक जाय
अणभवाची पोटली तिणें
खाकेक मारून भोंवपाक जाय
अडलेल्यांक पडलेल्यांक
चुकीच्या रस्त्यान चलतल्यांक
वाट तिणें दाखोवंक जाय
भित्र्याचो भंय गरिबीचें दुयेंस
आकांताचो वेळ
दोळ्यांतली दुकां तिणें
फूंक मारून पुसूंक जाय
निर्शेल्या तिच्या पावल खुणांनी
वाट घडयत वचूंक जाय
फाटले पिळगेचो हात धरून
तिणें मुखार पावल घालपाक जाय
सुखां दुख्खां माडयत तिणें
बेसबरी चलपाक जाय

कांटे कुटे कंवच्यो तिर्णे
रित्या पावलांनी माडोवपाक जाय
नवदुर्गेच्या नवशक्तीची
घटाय तिका आसपाक जाय
धूव, भयण, बायल, सून,
आवय, मांय
पन्नास पावलांचे पांचशे अणभव
तिज्यान बरे तरेन
मुरपाक जाय
अस्तुरी पन्नास जिची पिराय
तिचो एक व्हड आदार
संवसाराक मेळपाक जाय



३९.

# यो धुवे

यो धुवे धांवत
वाट पळयता कुळार तुजें
ना गे आई येना हांव
खांद्यार आसा संवसाराचें वजें

यो गे धुवे धांवत
वाट पळयता आंगण तुजें
कशें येवं धांवत हांव
शिंपचें सोडून पोरसूं म्हजें?

यो धुवे धांवत
पोरसांत जाय फांकरल्या
आंकरे कणकणी फुलल्या
सांज सकाळ तुवेनूच शिंपल्या

यो धुवे धांवत
फांत्यार उठून हांवें
जायो कुटयल्या
पोड बांदून तुका दवरला

माळल्या आई जायो हांवें
आमच्या आंगणांत फुलल्या
फांत्यार उठून मांय म्हाका
पोड गुंतून दिता

माळा आई पोड ते
तुमी सगळीं मेळून
आयते दिल्यार माळटा तीं
वचना केन्ना शिंपूंक

यो गे धुवे दनपारां
जेवन वच उंडीभर
ना गे आई येना हांव
मांय दिता डबोभर

यो गे धुवे एकेच रातीक
फांत्यार उठून चल
ना गे आई येना हांव
मिलेर म्हजो व्हरत चोर

यो गे धुवे धांवत
फांत्यार तरी उठून
कशें येवं फांत्यार हांव
घर म्हजें सोडून?

भुती आमची खांद्यार मारून
धांवतात आमी नोकरी करूंक
मदींच येता आई
कसो तरी वेळ काडून!

खबर तुजी घेता मगे
सदांच तुका फोन करून
वोगीच कित्याक आई
बसता हुस्को धरून

यो गे धुवे धांवत
कित्याक रावताय परकेपणा कामरून
पापाच्या बेंसाचो
वांट्यावर झगडून

नाका आई तूं अशें
वायटपण धरूंक
येतलें हांव कुळाराक
मुखार केन्ना तरी फुडाराक

नातें आमचें परत एकवटूंक
तुजे नातीक, दादाचे धुवेक
सून म्हणून व्हरून
पुताक म्हज्या तुजो नातजांवय करूंक!



४०.

# उगडास

कुडीक तुज्या केदी माव
त्या घाव्याची
तूं सांगीत सुटलाय सगळ्यांक
खूण म्हणून जल्माची
ती तर माव घाव्याची
तो तर व्हड आघात
तुजेर आयलो आनी गेलो
हो घावो पेखूंक
खूप तेंप लागलो
दिसान दीस जडवतालो
आवाठ वाडत वाडत वतालो
कितलो तेंप हांतुणाचेर
आडवो उदारो तूं लोळटालो
उठटा बसतना हात मागतालो
तरा तरार्ची लायर्ली वखदां
पाळां मुळां मलमां
लावन लावन वखद
घावो गेलो पेखत
कातीर कात आयली
आजय याद आसा
म्हाका त्या दिसाची
तो घावो, रगताचो शिंवर
हाडांचो चुरो
केदें व्हड अपशरण
तुका बसून खुर्चेर
फाफुडटालें हांव तुजें हांतरूण
त्यो व्याधी, तीं दुखर्णी
कसो गेलो तूं विसरून

आनी म्हणटा मावेक
तूं जल्माची खूण
तुका दुखलें
तुवेंनूच सोंसलें
हांवें पुसलें
वखद फासलें
घाव पेखले
मावेन उरलें
तुजे म्हजे मर्दीं
कसो विसरलो रे मनशा
तू येदो व्हडलो घावो
सांगीत सुटला सगळ्यांक
त्यो कुरू म्हणून मावो
उखल पावल मनशा
फुडें फुडें चल
यादी मात फाटल्यो
उगडासान व्हर



४१.

# कविता

तुमी सगळीं जाणां
जमल्यांत कवितेक मेळपाक
म्हणून खार्केत धरून
हाडल्या हांवें म्हजे कवितेक
हाडल्या हांवें तिका
कवितेच्या गांवांतल्यान
चलत आयल्या आमी
उतरां पावलांनी
कविता म्हजी
हांव कवितेचें...
सांगलां आमी
एकामेकांच्या कानांनी
सुखाचो दर्या पेंवताना
दुख्खाचो दोंगर झेलताना
कविताच आसली वांगडा म्हजे
मन वणटीच्या आडसाक
जितलें हांवूच म्हाका वळखना
ताच्या परस चड...
वळखता ती म्हाका
तिकाच आतां खबर
काणी म्हज्या जल्माची
दिसलें मनाक म्हज्या
तिची आनी तुमची
भेट घडोवपाची
म्हणून हांवें...
खाकेक धरून हाडली तिका

तुमी उलयात तिचेकडेन
ती उलयतली तुमचेकडेन
समजून घेयात तिका
आनी सोदून काडात तातूंत म्हाका



४२.

# चीट

एकदां म्हज्या मोगीक
हांवें चीट बरयली
कोण जाणां...
पोस्टमनान खंय शेणयली?
ते चिटयेंत हांवें...
चार मोगाळ उतरां गुटलायलीं
सायबा भोगोस कोण जाणा
तीं खंय शिंपडलीं?
म्हज्या काळजांतलें गुपीत
वारो गेलो शिंपडींत
मोगा चीट म्हजी
कोणाक मेळ्ळी खबर ना
रात दीस पळयली वाट
ना रे म्हजे चिटयेक जाप
रडून रडून फोफशेलें
जापेक तुजे आशेलें
पोस्टमनाक विचारलें
चीट म्हाका आसा रे
तो हांसलो म्हणूंक लागलो
हाडटलो... हाडटलो
हाय सायबा भोगोस म्हाका
ट्यूब लायट पेटली आतां
चीट सगळो भोंवता गांव
बरोवंक विसरलें हांव ताचेर
तुजें नांव म्हजो गांव
कसो गोमतलो कोणाक
पत्तो मोगाचो...

उपरांत एकठांय आयली
दीस उजवाडलो काजाराचो
काजाराक पोस्टमन आयलो
चीट शेणून मोगाचें
बेसांव दिवन गेलो!

●●●

४३.

## मोगी

आज म्हज्या मोग्याक हांवें
आमगेर आपयलें
घरा सयत सगळ्यांक
पयल्यान पयलीं शिटकायलें
मोगी आयले
घरांत भितर सरलें
सालांत बसलें
च्या पियेताना लजलें
वयर सकयल
हेवटेन तवटेन
पळोवंक लागलें
सगळ्यांनी ताका हटकिलें
बारकायेन ताका निरखिलें
म्हजे भोंवतणी हांव
कांचवून भोंवतालों
शांतीचो संदेश दीत
स्वास घेतालों...
सगळ्यांकडेन बेस बरो उलयतालों
देफेंत कांयच दिसूंक जायना
हाची जतनाय घेतालो
वतां-वतां म्हणत
वर भर तें बसलें
उपरांत उठलें
घरा वचपाक
हांवें व्हरून पावयलें
आनी परतलो म्हज्या घरा
वोंठ म्हजें सुकलें आतां
जीब जाली अळणी

वार, वरां विसरलों हांव
घर म्हजेंच म्हाका
आयलें खावंक
भरिल्लें घर म्हजें
रितें म्हाका भासलें
घर भर मनशांनी
तूंच उणें कशें दिसलें
माळयेर तूं, सोंपणार तूं
सालांत तूं, कुडींत तूं
तुजी सावळी, तुजें रुपणें
दोळ्यां मुखार...
गेलें तूं दवरून
आनी लागलें...
घर भर नाचूंक
घराचें घरपण
म्हज्यांतलें मनीसपण
कोण जाणा कितें
म्हजें व्हेलें तुवें चोरून
आसूं सगळें आतां
यो गो धांवत
सासणाचो सांगात जोडूंक
कितें व्हेलें म्हजे तें
व्होंटयेंत हाड भरून...
मन म्हजें आसलें तशें
दी गो म्हाका करून
यो गो तूं आमगेर
बायल म्हजी म्हणून
यो गो मोगा तूं
पोटलो घेवन मोगाचो
मोगाक तुज्या आशेला
धनी तुजे कुडीचो

एक दीस मोगी म्हजें
व्हंकल जावन येतलें
व्हेल्लें सगळें चोरून म्हजें
परत हाडून दितलें
आतां म्हज्या घरांत
चल्ला बोवाळ लग्नाचो
बाशींग बांदून रावलां हांव
झेत पळय न्हवऱ्याचो
आतां म्हजी व्हंकल
शालू न्हेसून येतली
पांचव्या चुड्यान
गोंठ पाटली तोडे कांकणां
गळ्यांत गळसरी
गुंतल्या पोंवनां
भांगर-शिंगर ताम्हण आयदनां
खाट आरमार
गादी उशी
ट्रक भर हाडटली
रीत कायद्यान भेटो वर्जी
ती म्हाकां धाडटलीं
आतां तें मोगी बसला वोगी
जीण ही अस्तुरेची
मोन्यांनी भोगीत
विरगळून गेली
तीं मोगाळ उतरां
शेणलीं सपनेल्लीं सपनां
म्हणून...
सरभोंवतणचीं चित्रां नियाळीत
●●●

४४.

# मुखामळ

तुज्या मुखामळार
एक रसरस दिसता
अडचर्णीतल्यान वाट काडपाचें
एक दायज दिसतां
तूं हांसतां
तूं उलयता
मदल्यामदीं लजेता
तुजो स्वास...
तुजी चाल
तुज्या पांयांक
पैंजण ना...
हातांत चुडोय ना
तरी खुळखुळ्याचो
नाद आयकूंक येता
तुज्या मुखामळार
एक निरागस रूप आसा
मळब पेलपाची तांक आसा
तुज्या मुखामळार
एक सपन आसा
दुर्गेची शक्ती आसा
तुज्या मुखामळार
एक समर्थ अस्तुरी आसा
फाल्यांचीं चिंतनां
फाल्यांची शक्ती
फाल्यांचें चित्र
तुज्या मुखामळार
दिसता...
तूं भविश्य आसा

आयच्या कश्टाचें
तूं सपन आसा
आयच्या वैचारीक जिवितार्चे
तुज्या मुखामळार
एक रसरस दिसता ती
फाल्यांचे उदरगतीची
एक कळी, तूं उर्बा आसता!

●●●

४५.

# साडी

साडी हाड म्हाका
रंग हांव सांगतां
मोल मात लिपय तिचें
मोगान हांव नियाळटां
याद येताच तुजी
म्हजे भोंवतणी तिका घुसपयता
आनी...
म्हजो तुजो मोग
तांतूतच हांव सासपितां
रंग तिचो पाचवो आसुंदी
सैमाचें अंतकरण तुज्यान म्हाका दिसुंदी
ल्हान व्हड तांबशीं फुलां
हळडुवीं मर्दी बटणां
सवायशिणीचें कपल
आंगार म्हज्या सजुंदी
साडी हाड म्हाका
रंग सांगलो तुका!

●●●

४६.

## मनीसपण

ताणें तुका खूब सतायलें
तुवें सरसकट ताका भोगशिलें
भयणीन भयणीक कानांत विचारलें
बरेंपण पळोवन घरचें...
जायत ताच्या ताळ्यांत कचरलें
काळ बदलता तसो
वेळ बदलत वता...
तेन्ना ताचे कडेन...
म्हजें आयकुपाक...
म्हाका समजून घेवपाक
वेळ नासलो
म्हणून हांव सतायलें
उपरांत ताचें ताका जाणवलें
त्या त्या वेळार घडपाचें
घडत घडत गेलें...
वारो येता तशें...
सूप धरूंक जाय
आयज म्हाका ताचो वांगड
भुरग्यां मदीं सांगड
उडूंक लागताना भुरग्याक
दोन पांखां जाय
आवय बापूय
माफ नी ते
म्हज्यांतलें मनीसपण
काळांतरान बदलत गेलें हांव
म्हज्या घोंटेराचो आवाठ
आनी संवसाराचें आंगण!



४७.

# दुख्ख

सोप्यार बसून
पोश्यांत पळयत
हांवें म्हजें दुख्ख कुरवाळलें
दोळ्यांतलीं दुकां गळयलीं
हांव फोफशोन रडलें
उपरांत सरभोंवतणी पळयलें
एका एका मनशाचें
वजें कशें दुख्ख
ना ना तसल्यो  व्याधी
ना ना तसलीं दुखणीं
कोण सुखी ना
हें पळयत हांव उठलें
दोळ्यांतलें दुख्ख
खबर ना खंय शेणलें
आनी धांवलें
दोनूय हात घेवन
म्हज्या परस
कितल्याशाच पटींनी
चारूय वाटांनी
कोसळलेलें दुख्ख...
पार करपाक
वाट सोदपी
त्या मनशाक धीर दिवंक
म्हज्या हाताचो लेस करून
ताच्या दोळ्यांतलीं दुकां पुसूंक
●●●

# सोपो

म्हज्या काळजांत
आसा एक सोपो
ती तुजी बसका जाल्या
तोंडांतल्यान येता जांबय
तुवें म्हजो हुसको केल्यार
दोळे वाट पळयतां तुजी
मन तिश्टावता
मोग आसा थंय...
शीण आसा...
मोग आसा थंय...
रागूय आसा...
अशे नदरेच्या आड्यांनी
हांवें तुका घुसपायलां
बंदिस्त तूं म्हज्या मुखार
दोन हात दिता...
बेडी बांदपाक
काळजांतलो सोपो
तुजी बसका जाल्या
येतां म्हाका जांबय
तुवें म्हजो हुसको केल्यार

●●●

४९.

# एक फोन येता

केन्ना तरी एक दीस अचकीत
एक फोन येता...
हांव सगळें सोडून
फोन घेतां...
हॅलो आवाज येता
हाय, कशें आसा
बरें आसा
तू कसो आसा...
फोर्त...
तुज्या मनाच्या घुसमटाक
तूंच एक बांद फोडटा
म्हाका खबर आसा
तुजो घुसमटमार
तरी तूं म्हाका...
हांसून हडकिता
वजें मनांतलें
उतरांनी देंवयता
हांव उलयत रावतां
मेजून दाखयतां
म्हर्जी उदरगतीची पावलां
तेन्ना मेळटा म्हाका
तोखणायेचीं उतरां
म्हजे मनरिजवणीक
मायेची ओलसाण...
तूं पावस...
वाट पळयता मनधर्तरी
उलोवप सोंपता...
बरें... फोन बंद जाता

केन्ना केन्ना म्हजें
हांवूच घुसमटतां
वाट पळयतां...
येता काय तो फोन
येता तो वर्सांन केन्ना तरी
सगळीं बंदखण फोडून
केन्ना केन्ना धांवतां हांव
तोच नंबर लावंक
स्विच ऑफ येता...
केन्ना केन्ना म्हाका
एक फोन येता...
हॅलो आवाज येता

●●●

५०.

# जीण

जेन्ना उबे रावले पांय
तेन्नाच्यान वाटेर
अडचणीच पळयल्यो
दोंगर खडपां फोडीत
हांवें वाटो घडयल्यो
चडलें हांव चडट्यो
मुखार पळयल्यो
निसरूंक जाता
तशो देंवत्यो...
ह्यो अडचणी पळोवन
भियेवन सोडले ना चलपाचें
चिंतलें जाता तें जांवं
फुडें फुडें वचपाचें
चलतां चलतां मेळ्ळो
केदो व्हड दर्या
तेन्ना चिंतलें
बुचकळत बुचकळत पेंवपाचें
अडचणींक भियेवपाचें ना
मेल्यार मरूं, फाटीं मात सरचें ना
चलतां चलतां पार केलें
उजो इंगळे हुलप लागलो ना
मुखार चलतना वाट
किट्ट काळखी जाली रात
आकांत आयलो
उलो मारलो आऽईऽ
संवसार सोडून गेल्ली
उल्याक म्हज्या जाप मेळ्ळी
उजवाडान वाट परजळली

रात पार जाली
आतां पावलांक म्हज्या
घटाय आयली
अणभवाचें संचीत हें
देवाचे उपकार
यार्दीचे पोटलेन
साबार नार्ती
वाट जाली निर्मळ नितळ
अडचणी भियेल्यो
कडेक उब्यो रावल्यो
आमी तुजे अणभव
म्हणून सांगूंक लागल्यो
आतां ती थोडी मेकळी जाली
हांवें जोडलेल्या मनशांनी
ती व्हड व्हड केली
अडचणींतल्यान तिणें
हाडून सोडलें म्हाका सुखरूप
जोडलीं हांवें तुमकां
अडचणींची वाट ती
सांडून गेली हांगाच
मुखार चलपाक म्हाका
दिवन तुमचो सांगात
उपकारांचीं उतरां दिवंक
वळून पळयलें हांवें
वाटेन तेन्ना सांगलें
बरें करून...
भियेवं नाका फुडें फुडें चल

तुमचो हात धर...
फुडें फुडें पावतां तर्शी तर्शी
याद म्हजी कर
अडलेल्यांक शेणलेल्यांक
हाताक धरून फुडें फुडें व्हर!



५१.

# जळपें

रात दीस सरभोंवतणी
नदर म्हजी भोंवतां
कोण जाणां मन म्हजें
खंय खंय धांवतां
पलतडच्या दोंगराचेर
आलतडचें शेत खुणायता
दर्या गाज ल्हारां नाच
म्हाकाय नाचयता
बाय, तुजें किदें शेणलां
सरभोंवतण विचारता
खूब किदें शेणलां म्हजें
सोदपाक जीण पावची ना
मेळ्ळें तरी खूब किदें
वोगी बसूंक जावचें ना
काळखांत आसा तें
रातचेंच कळटलें
दिसान लिपलां तें
उजवाडांतूच मेळटलें
खूब किदें शेणलां म्हजें
सांगून तुमकां कळचें ना
म्हज्या वांगडा आयली तरी
तुमकां कांयच मेळचें ना
सरभोंवतणी दोंगर शेतांनी
दर्या वेळेर ल्हारांनी
वेंचींत भोंवतां हांव
खूब खूब किदें किदें
पुंजावन हाडटलें
तेन्नाच तुमकां कळटलें

रात दीस हांव
कित्याक जळपतालें
जळपें कशें भोवता कित्याक
वोगी बस एका जाग्यार
शेणलां तुमचें वालोराचें
तें चिंतलां हांवें सोदपाचें
सोदून सगळें काडपाचें
वेंचून वेंचून हाडपाचें
तेन्ना तुमकां कळटलें
हांव कित्याक जळपतालें!



५२.

# खेळ

मनीस धांव धांव धांवता
खरशेत खरशेत पावता
म्हणून कांयच जायना
नशिबांत आसा तें तुज्या
कोणाकूच मेळना
सतायता तो, फटयता तो
रडयता तो, बडयता तो
कांयच कोणाचें करिना
रचयला देवान आमकां
कोणाचेंच शाणपण चलना
आमकां कळटा
जाचें तेंका मेळटा
वायटपण उरता
जल्म-मरणाचीं सुत्रां
घेवन बसला तो
तारपी आनी मारपी
कसो कोण जातलो
संवसार सांबाळपाचो पत्कर
मनीस बरो घेयत
पूण देव खंय दितलो
मनशान मनीसपण व्हगडायलां
हें देवान बेस बरें पळयलां
कोणाच्याच नशिबांतलें
कांयच काडूंक जायना
कोणाच्याच नशिबांत
कांयच घालूंक जायना

मनीस धांव धांव धांवता
खरशेत खरशेत पावता
जिणें हें मनशाचें
खेळ नशिबाचे
आमी खेळटात...
●●●

५३.

## मन मळब

मन मळबांत दाटल्यात कुपां
दोळ्यांतल्यान व्हांवतात दुकां
उतर सुचना
अन्याय सोंसना
प्रसंग पेलना
संकट झेलना
मन सांवरना
आकांत आवरना
मन मळब विरगळळें
दोळ्यांतल्यान गळलीं दुकां
काळीज फुगार जाता
दोळे दुकां गळयतात
उपरांत हात दोळे पुसतात
मन हारश्यांत पळयता
एक किरण
नव्यान उदेता
दुख्खा फाटल्यान सूख
राती फाटल्यान दीस
भरते फाटल्यान सुकती
हेंच सत केळयता...

●●●

५४.

# हांव एक अस्तुरी

एक वाल
म्हज्या मन आंगणांत फुलल्या
सोबीत सुंदर अश्या काडयां पानांनी
ती आंगभर भरल्या
पोपटी पाचवीं पानां तिर्ची
गुच्च तांबडीं फुलां
कोण जाणां मुळां तिर्ची
आसलीं खंयच्या रानांत
पयलींच पळयलीं तिका हांवें
आड्यार गोठ्या फाटल्यान
तांबड्या फुलांनी ओडून व्हेली
नदर म्हजी फुड्यांत
लवलवीत फुलां...
भरलीं म्हज्या दोळ्यांत
झाड ओडून आड्या वयलें
हाडलीं तिका म्हज्या म्हऱ्यांत
घुसपल्लीं तीं सरसकट
झाडाक त्या आंगभर
फांकरल्लीं तीं झाडभर
लिपलेलीं झाडाचीं त्या सगळीं पानां
झाडानूच सोडून दिल्लें आंकुरपाचें
चिंतलेलें आसत घडये
ते वालीकूच सांबाळपाचें
दोगांयचो जाल्लो एकवट
सोबीत तांबड्या फुलां सयत
वेगळावपाक जावचोना हो घुसपट
सुखदुख्खाच्या धाग्याचो
एकवट मोगाचो

जीण ही अस्तुरेची वाल चित्रंगीची
आदार तिका बळकट मेळचो
हो हावेस निर्मितीचो
हात दिवन वयर काडपी
व्हड आदार मनमळबाचो
आंगाखांद्यार धोलोवन घेवपी
बरो सांगात उदरगतीचो
आंगभर खेळोवन मनभर फुलोवपी
पावलांक पावलां घुसपयत
उंचाय तिका दिवपी
आदार एका मनशाचो
बापूय एके धुवेचो
भाव एके भयणीचो
इश्ट मनाचो
सांगात दिवपी सासणाचो
घरकार एके अस्तुरेचो
हांवूय एक अस्तुरी
वाल चित्रंगीची
झाडा वयल्यान आड्याचेर
आड्यावयल्यान माटवांचेर
फुलत भोंवता, मन धतीर म्हजें
हांव मात उदरगत भोगतां
जीण ही अस्तुरेची
हांसत खेळत जगतां
हांव एक अस्तुरी वाल चित्रंगीची
पोपटी पाचवीं पानां म्हजीं
गुच्च तांबडीं फुलां
कोण जाणां मुळां म्हजीं
आसलीं खंयच्या रानांत



५५.

# हुसको

पोरूंच्या आकाश दिव्याचो
आराखडो
पुतान फाफुडलो
रंगीत फोली हाडल्यो
पूत आकाश दिवो करता
मन उमेदीन भरलें
खिणां भितर
सगळें बदल्लें
सोप्यार दवरून सगळें
पुतान दुसरेंच काम धरलें
सांकभर तण...
मानी कोंडे
तुतयो खिळे घेवन
उबारलो एक सांपळो
पुता परस व्हड...
आतां जमतात सगळे इश्ट
रात दीस करता नरकासूर
सरभोंवतणी पळयलें
सगळ्यांनीच नरकासूर केल्यात
घरा येवन हांवें
आकाश दिवो केलो...
खरेंच...
तुमी करतले... जळयतले
तुमीच घडयल्लें हें अरण्य
तातूंत दुबाव ना
पूण आपूणच घडयता
आनी घडटा...
ताची विल्हेवाट कोण लायतलो

कृष्णान सांगलेलें खंय...
अधर्म घडत जाल्यार
आपूण घेतलो म्हणून हे भुंयेर जल्म
तरी म्हाका हुसको
तो केन्ना पावतलो?
खंयचे देवकेच्या कुसव्यांन
आठवो पूत जल्माक येतलो?
●●●

५६.

## न्याय

तुज्या ताटांत
बोडक्यो कांटे
म्हज्या ताटांत
शेंपडे कुडके...
तुज्याच हाताचो
न्याय हो
वायट तुका बरें म्हाका
वयर सकयल जाता तूं
निर्मितीची आंकरी तूं
तुकाच दिल्या दुखापत
सोंसतलें म्हणून पातयेलां
तुजेच तकलेर वजें दिलां
नवशक्तीची भक्तीण तूं
देवी आनी राक्षीण तूं
अवताराची मूर्त तूं
संवसाराचो न्याय हो
वायट तुका बरें म्हाका
बरें उतर म्हजें
दिसता तुका लाख मोलाचें
चुकून मेळटा तुका
तेन्ना आंगभर फुटून फागूर
फुलता तूं म्हाका
म्हणटा कोण आसा म्हाका
तूंच कपलाचो टिळो
गळ्यांतलो मणी, कुडीचो धनी
धांपली मूठ सव्वा लाखाची
उगडूं नाका
तुज्या म्हज्या संवसाराची

गजाल कोणाकूच ना कळची
वायट तुका बरें म्हाका
संवसाराचो न्याय हो
जाल्लो, जाता, जातलो
तूं जाली बायल, हांव दादलो
तूं म्हजें दैवत लक्ष्मी
नतमस्तक जाता तुका
वायट तुका बरें म्हाका
संवसाराचो न्याय हो



५७.

# मोनें

मन म्हजें उगतायलें तेन्ना
तुवें म्हणलें तोंड धांप
तेन्ना म्हाका पटलें
मोन्यांनी जगपाचें हें जिणें आमचें
मोन्यांनी मोनें जगूंक लागलें
मोन्याक पडटार्ली सपनां तेन्ना
मोनें मुरगटून हासूंक लागलें
कशें सांगूं रातचें सपन
चिंतूंक लागलें
दुखापत भोगून मोनें
फोफसून फोफसून रडूंक लागलें
हाव-भाव देफेत दाखयनासतना
जीण आपलें जगूंक लागलें
सोंसता तो भाग्यवान
मोन्या कानार उतर पडलें
उतर मोन्याच्या
काळजांत जडलें
सतायता तो कोण
मोनें चिंतूक पडलें
धांपिल्ली मूट सव्वा लाखाची
जीण हीं मेकळें रान
मोन्यांनी मोनें चलूंक लागलें
मोन्याक मेळ्ळी कितलीं मोनीं
दोळ्यांनी पळयतार्ली
कानांनी आयकतार्ली
मोन्यांनी जगतार्ली
जिणे वाटेर
हें व्हड शाणपण करतार्ली

●●●

५८.

# बाजार

हांगाच मेळटात सगळीं फळां
आमकां आमच्या कर्माचीं
वायट बऱ्या कर्तुबांचीं
हो बाजार चालूच आसा
तो उलगना...
फार्टी फुडें चलतात आमी
दिवन दुसऱ्याक हमी
आसत तुजेकडेन चड
तर म्हजेकडेन कमी
आयला तसो तूं वतलो
जीव तुजे मदलो
ह्याच बाजारांत भोगतलो
फळां आमच्या कर्माचीं
ह्याच बाजारांत आसतलीं
फाटल्यान फुडल्यान
आयज ना जाल्यार फाल्यां
तुजीं तुकाच मेळटलीं
वायटाक वायट
बऱ्याक बरीं
तुजीं तुकाच चाखचीं पडटलीं
उपरांत...
रित्या हातान आयला मनशा
तूं रित्या हातान वतलो
पापां केल्लीं भोगतलो
पुण्य जोडिल्लें दवरतलो
ह्याच बाजारांत



५९.

## उतर

उतर उतर जरी आसलें
तुज्या मनांतलें वोठा वयल्यान
म्हज्या कानार पडलें
काळजाचें खोलायेंत
खबर ना कशें पावलें
आपलेंपणाचें
सरळ मनाचें
गीत थंयच रुजलें
अशें हें उतर
आसता लाख मोलाचें
केन्ना गळटलें
कशें रुजतलें
ठाव ठिकाण ना लागचें
फासून पासून
कशेंच न बदलतलें
अक्षर अक्षर मेळून
ताणें हाताक धरून चलपाचें
पानान पान कोमरेवन ताणें
घोंसांनी फुलपाचें
अशें आसचें उतर
वज्रापरी मोलाचें

●●●

६०.

# वजें

काय बरीं उखलतालीं
आमी ह्या संवसाराची वर्जी
केन्नाच म्हणलें ना...
हें तुजें तें म्हजें...
भरवंशाच्या खांदार
उखलतालीं आमी
सांबाळटालीं
समजून घेतालीं
एकमेकांचीं दुखणीं
काळांतरान चिंव-चिंवलीं
दुबावाचीं सुकणीं
आनी वजें
उडयलें पावणेर
तें तुजें, हें म्हजें
वाटाघाटी सुरू जाल्यो
संवसाराचें हें वजें
भरवंशाचे भुंयेर
फूल कशें फुलता
ल्हव ल्हव कापूस कशें
दुबावाचे कावळे रडलें जाल्यार
हें वजें जड जड जाता
सुंदर सोबीत संवसाराचें
सोबीतपण शेणटां
हें संवसाराचें वजें
केन्नाच म्हणचें न्हय
म्हजें-तुजें

●●●

६१.

# कसरत

दादल्यांत हांवें एक देव पळयलो
भाव पळयलो
घोव पळयलो
राकेस पळयलो
आनी मागीर
म्हजेंच म्हाका समजलें
दादलो हाचें बदलतें चक्र
दोळ्यां मुखार घुंवलें

बायलेंत हांवें
एक देवी पळयली
भयण पळयली
बायल पळयली
राक्षीण पळयली

म्हजे भोंवतणी हांव घुंवलें
भोंवरो जावन भोंवलें
पांयां पोंदची भूंय हाल्ली
पावलां हांवे सावरलीं
दादलो बायल
मनशाच्यो दोन जाती
हातूंतच हांवें मनाची
कसरत पळयली



६२.

# तजवीज

उजवाड घेवन धावतां हांव
बेगीन घरा पावतां हांव
फाल्यां म्हाका परत येवंक जाय
हाची तजवीज करतां हांव

दार म्हजें निर्शेता
वाट पळोवन खरशेता
हांव नासता तेन्ना खंय
घर ताका खावंक येता

उजवाड घेवन धांवतां हांव
बेगीन घरा पावतां हांव
फाल्यां म्हाका परत येवंक जाय
हाची तजवीज करतां हांव

•••

६३.

## माड

आयक पंटुरा हांव माड
मोटे मोटे दिले तुमकां नाल्ल
पिरायेन हांव खूब व्हडलो
तुज्या शेणज्यान लायलो
आज्यान, बापायन पाडलो
आयज तूं नातू तांचो
म्हाका वळखना
बारीक बारीक बोंडे
तुजे नदरेक झळकनात
मोटे मोटे नाल्ल काडपाक
धाडटालो भागेल्याक भाटकार
आनी सांगतालो
पोटभर म्हाका सारें घाल
मोबायलान, केबलान
घात घेतलो म्हजो
सावूद म्हजी बिगडायली
एका तेंपार म्हाका
कल्परूख म्हणटाले
किसर लेगीत म्हजें
खंय उपेगाक पडटालें
आतां आयलां जाणटेपण
ह्या प्रदुशीत वातावरणांत
सूय लेगीत थकली म्हजी
कवाळो लेगीत सुकलो
चुडीत नाशिल्लो बोडको

हांव भाटांत जावन बसलों
म्हणून म्हणटा पंटुरा
हाणून म्हाका उडय
वांसो काडून म्हजो
कोणालें तरी घर घडय!



६४.

# यादी

यादींच्या मळार
मनाचें कुळार
सोदून सांपडना
वाडो घरां
दोंगर शेतां
नदरेक झळकनात
शेणलीं मनशां
शेणली भाशा
कोण कोणाक वळखना
बोरां चिंचो पेरां
जगमां काण्णां जांबळां
खंय गेलीं खबर ना
घरा मुखार केदीं आंगणां
तुळशी पेड झाडां फुलां
कोणें केलें केदें व्हडलें
देवूळ गांवचें
पुरो आसलें तशेंच तें
देवूळ ल्हानशें
खंय गेलीं घरां दारां
सोबीतपणां गांवचीं
वाडो आमचो गुठलायलो
एकेच काशेंत भल्लो
सरभोंवतणच्या जाग्यांचेर
कब्जो केलो परक्यांनी
शाळा लेगीत मोडली आमची
उखलून व्हेली म्हणटात थंयची
बांय लेगीत गांवची
सरसकट पुरयली

राजू, गाडी, कळशी
कोण जाणां, खंय शेणयलीं
परकी मनशां
परकी भाशा
जाली म्हज्या गांवची दशा
खंय म्हण सोदूं आतां
पयलीचें गांवपण
मनशांनी विकलें
आपलें मनीसपण
जिणेच्या मळार
यादींचें गांठवल
कशेंच शेणना
यादींच्या मळार
मनाचें कुळार सोदून सांपडना
●●●

६५.

# आमली

लागता थंय आसली आमी
ओरबडून आमकां काडलीं
सूपभर मीठ लकोवन आमचेर
व्हड व्हड तोपांनी
दात्या पाव फातर गुणे
दवरून आमकां चेंपणाक घालीं
व्याधी दुखणीं आमचीं
मुकाट्यांनी आमीं सोंसलीं
मिठाचे खारसाणीन
कातीन कात चुरचुरली
मिरमिरून आंगार मिरी पडली
उपरांत...
दोणांत भरलीं आमकां
मिठा दिखान बुचकाळायलीं
मिरसांग हिंग घालून आमकां
पुरुमेंताक सांबाळून दवरलीं
बेस बरी तिगलीं आमी
मुरलीं खळांत...
पंगतीक पावलीं आमी
व्हड एका सुवाळ्याक
गुरवार बायलेन रूच काडून
खाल्ली थंय दुवाळ्याक
कार्याकूय आसलीं आमी घरच्या
तोखेलीं आमकां धुवांनी
चाखून चाबडून खाल्लीं
आनी मागीर मागूंक आयलीं
दोणांत हात घालून
खळ सगळो धवळलो

आवयन म्हळें आतां सोंपलीं
धुवेन म्हळें जिबेर उरलीं
सगळ्या जाणांक
आनीक जाय आसलीं
बऱ्याची बरी याद
आमलेची जीण जियात!

●●●

६६.

# कागाळ

आई गेली
संवसार सोडून
देवा घरां
हांव व्हड
घरची व्हड फामील
एकदां म्हजेर...
आयलो एक प्रसंग
जालो व्हड अन्याय
चूक नासतना
हिणें उलयलें
तिणें तापयलें
दुशण म्हजेर आयलें
हळूच हांवें बापायक सांगलें
बापायन म्हळें...
बाय, तुजी आई ना
वोगी राव...
सत्ते फुडें शाणपण चलना
मुखार केन्नाच केली ना
कागाळ कोणाचकडे कोणाची
बापायचें उतर घट्ट यादीन धरलें
जीण सगळी भोगली
सपनांतलें घर बांदलें
आनी चिंतलें...
आतां म्हज्या घरांत
कोणाचेंच शाणपण चलचें ना
कोणूच म्हजेर अन्याय करचो ना
खरी म्हजी जीण
हांव जगतलें... जीण घडयतलें

उदरगत भोगतलें
तागलें भोगलें आनी भोगतां
आज जीण म्हजी
बंदिस्त जगता
व्हय भितर
सत्ता म्हजी चलयता
कोणाचेच भानगडींत पडना
जिणे वाटेर आयज
हो वेळ म्हजोच म्हाका पावना
कागाळ करता बापायकडे आयज
तूंय पळोवंक उरलों ना...
तुजें उतर लाख मोलाचें
चिंतलें हांवें...
पांयांर उबे रावून आमच्या
शाणपण दाखोवपाचें
फामील तुजी म्हणटा म्हाका
आज तूंच शाणें बापायचें
दिल्ली तुवें उतरां
आज बरोवन दवरतां...
तुज्या सारको बापूय
ना जाल्यार म्हजे सारकी धूव
वांचतली... फुडले पिळगेक
'सत्ते फुडें शाणपण चलना'
होच मंत्र पुरो
पुराय जीण जगतना
●●●

६७.

# जीण

जीण तुज्या घरा कडल्यान
सुरू करूंक जाय
काळजांत तुवें तुज्या घराब्याक
शाबूत दवरूंक जाय
बायलेचें सूख...
भुरग्यांची उमेद
तुवें सदांच चिंतूंक जाय
मनां तांचीं सांबाळून
हीत तांचें चिंतून
जीण तुवें जगूंक जाय
इश्ट तुजे उबे वाटेर
आडावंक तुका रावतले
फोल्गां पार्टी करूंक
तुका ते ओडून व्हरतले
तरी तुवें तुजी वाट
चिंतूंक जाय...
जीव तुजो घरा व्हरून
एकदां पावोवंक जाय
वळखून तुवें घराबो तुजो
गरजो तांच्यो भागोवंक जाय
मायपासाचीं उतरां तुजीं
सपनां फुडाराचीं
तुवें सपनूंक जाय
घोंटेर तुजो, पिलां तुजीं
आवय तातूंन भुरग्यांची
रात वैऱ्याची
तूं राखणो जावन
घराबो तुजो

वाऱ्या वादळांत सांबाळूंक जाय
सुनो, जांवय हाडून तुवें
घराबो तुजो वाडोवंक जाय
सूख दुख्ख, गिरेस्त गरीब
सरसकट सगळेच मनीस
ल्हान उतरांचें
व्हड मनांचें
नागरीक तुवें
ह्या संवसाराक दिवपाक जाय
जीण तुवें तुजी
घरा कडल्यान सुरू करूंक जाय



६८.

# एकवट

खूप लोक एकटांय आयले
जाल्यार एकवट जायना
एका तेंपार धांवडावन घाल्ल्यांक
आपोवंक गेल्यार एकवट जायना
ताका एक हेतू आसपाक जाय
एकामेकांचो नीज मोग
दोळ्यां मुखार एक सपन
पुराय करपाची तळमळ
हें सगळें घेवन
एकवटान जगपाक जाय
म्हजें तुजें हांव तूं
हीं उतरां कडेक दवरूंक जाय
उतर - वागणूक कोणाक
दुखर्ची ना
हाची जतनाय घेवपाक जाय
ल्हान-व्हड, गिरेस्त-गरीब
भेदभाव विसरूंक जाय
सरसकट सगळ्यांनी
एकवटून जगपाक जाय
'व्हड काम लागतां जड'
एकवट म्हणटा तो आमचेर सोड
नाल्लाचें एक एक किसर
मेळोवन वळोवन सूम राजू घडटा
तसोच कसो एकवट
मनां कुडी एकटांय घेवन
करचो पडटा
जाणट्यांनी उलयिल्लीं उतरां
सोदून हाडूं या

बाय, तोडूंक वेळ लागना
जोडूंक वेळ लागता
ही जापसालकी घेवन
एकठांय तिगलीं तीं कुटुंबां
ओंपली तांणी जीण आपली
एकवट सांबाळपाक...

•••

६९.

# खा गो बाय, खायना?

सूपभर आंबल्यो पळय
बॉल कशीं तोरगां
पोपायेक पोपायो
आड्यार पळय चुन्नां
मोतयां कशीं फुल्ल्यांत
काणटां पळय काळींच जाल्यांत
जांबळां पळय झाडभर
काळीं तांबशीं पिकून गळल्यांत
पेरीक पेरां, केळम्याक घड
हळदुवे तांबडे काजू व्हड व्हड
पळोवनूच पोट भरता दाय
खावंक कोणाक जाय
खा गो बाय, खावन घे
मागीर कांयच मेळचें ना
मोटारी घेवन गांवांत आमच्या
जागे सोदूंक लोक येतात
भाटां सगळीं विकूंक काडल्यांत
शेतां सगळीं पुरयतात
रस्ते सगळे रुंद करतात
रस्त्याकडेक आतां चायनीस
गाडे उबे रावतले
पेज जेवपी शेतकार आमी
आतां नुडल्स खातले
भाटां सगळीं विकून
भाटकार शारांत वतले
खा गो बाय, खावन घे
घटाय तांची पारखून घे
बायन कांयच खालें ना

उपरांत... आतां
बाय आयलां सुवाळ्याक
खायन दिसलां दुवाळ्याक
पळोवंक लेगीत मेळना
गांवांत कांयच उरलें ना
खा गो बाय, खाल्लें ना
आतां खातलें आसलें
पूण कांय ना...



७०.

## शीण

हजारांनी जोडटां हांव
हजारांनी मोडटां
फुलां फातयेक
जायां पुड्याक
वोंवळां पोडाक
सुरगां वळसराक
काळजांतल्यान तुका शिणटां
ल्हान व्हड बांदल्या
कपड्यांच्यो पोटल्यो
आरमार उगडल्यार
शिंपडटात साडयो
तरी पाडव्याक म्हाका
साडी जाय...
तुका उगडास करता
नवी व्हंकल कशी
नव्या वर्साची पासडी
घडी मोडून सोलां
जात्रे काल्याक...
न्हेसतां वचूंक
लजना तुजेकडे पयशे मागूंक
तूं फाटीं सरल्यार
हांव फुडें काडटां तुका
घरां-दारां उबारताना
पेलतां हांव वजें
रिणां दोंगर माथ्यार घेवन
जातां हांव तुजें
मोन्यांनी भोंवून बाजार
तुजे वांगडा येतां घरां

आयस्क्रीम दिली ना म्हणून
मारतां तुजी बारा
हजारांनी जोडटलीं आमी
हजारांनी मोडटलीं
भांगराचो संवसार करतलीं
जिणे वाटेर मात तुमकां
कुंड्या किस्कुटाक शिणटलीं!
●●●

७१.

# रजांव

तूं म्हाका म्हणटालें
तें म्हाका सांगतालें
हांव सगळें आयकतालें
रजांव केन्नाच केलें ना
झगडीं केन्नाच लायलीं ना
तें आनी तूं...
म्हजे नदरेंतल्यान देंवत गेलीं
हांव सगळें आयकतालें
निंदा म्हजी सोसतालें
दोगांच्या मदीं हांव
म्हजे परीन सुदरत गेलें
ताणें म्हणलें तुवें सांगलें
खूब व्हड उपकार जाले
हांव उलयना जालें तेन्ना
म्हणटल्यान सांगतल्याक
चाडयें म्हणलें
सांगतल्यान म्हणटल्याक
तोंडान सुबेज म्हणलें
दोगांय झगडलीं
आपसात एकमेकांक वळखलीं
हांवें म्हजीं पावलां
तोंड धांपून उखल्लीं
रजांव करूं नाका
मनशा, मातशें आयकून घे
म्हणटल्याक आनी सांगतल्याक
तुजे परीन पारखून घे!

●●●

७२.

# शिल्पकार

तूं गेलें...
वळख सांगली बापायची
बस म्हणलें तुका ताणें
चली म्हणून मंत्र्याची

तूं गेलें...
वळख सांगली घोवाची
बस म्हणलें तुका ताणें
बायल म्हणून आमदाराची

तूं गेलें...
वळख सांगली भावाची
बस म्हणलें तुका ताणें
भयण म्हणून मामलेदाराची

तूं गेलें...
वळख दाखयली
सरसकट सगळीं कामां
सडसडीत जालीं

हांव गेलें...
बापायचें घोवाचें भावाचें
नांवां सांगलीं
कोणूच आयकनात
कोणूच वळखनात

कितें करू चिंतूक पडलें

अशें कशें हांव
उदरगतीक अडलें
आनी झडझडीत उठलें
कोरयलें म्हजें नांव
कारागीर जावन
आतां नाका नांव कोणाचें
हांवूच जालें शिल्पकार
म्हजे जिणेचें
●●●

७३.

## प्रवास

एकसुरो तुजो प्रवास
मदल्या मर्दीं म्हजो भास
काळजांतल्यान उमळटा आस
जागयता उठयता
सुरू जाता सपनांचो खेळ
गोड यार्दींचो मेळ
खबर आसना
कसो वता तो
प्रवासाचो वेळ
हांव सदांच तुजे भोंवतणी
फाटल्यान फुडल्यान
उजव्यान दाव्यान
स्वासा स्वासान
म्हजो सदांच तुका सांगात
पळयतल्यांक दिसता
एकसुरो तुजो प्रवास

●●●

७४.

# पावस

तूं पावसांत चिंब भिजलें
घट्ट धरून वेंगेंत तुका
ओलें कशें हांवें पिळ्ळें
उपरांत...
व्हेलें तुका दर्या वेळेर
दिलें तुका वाऱ्याकडेन
चरचरीत सुकयलें
सांज वेळार दर्या वेळेर
खूब तूं खेळ्ळें...
आनी परतलें तेन्ना
पावसान चिंब भिजयलो म्हाका
आनी सोदतालों हांव तुकां
पुसपाक आंग म्हजें
म्हाका भिजोवंक तो पावस
तूं सुकसर रावलो
तुज्या म्हज्या मनाचो अदमास
आतां ताका गावलो
पळय...
तो आमकां दोगांकूय भिजयतलो
ओले मातयेचो ओलो परमळ
शिरंतरांनी आमच्या मेळयतलो
आनी पावस... पयस वतलो
फुडाराक वाट पळयत पावसाची
तूं तिनसांजचो बल्कांवांत रावतलो
आनी सुलूस लागताच पावसाची
घरांत धांवून येतलो
दार धांपून म्हणटलो
तो पळय पावस आयलो

आतां लायट वतली
तुजी म्हजी रात सुरू जातली
पावस आमकां सोदतलो
भितोडेक भोंवतलो
आंगण शिंपतलो
आनी दीस उजवाडटलो
परत... पावस
पयस वतलो

●●●

७५.

# यो रे पावसा

मनाच्या मळबांत
यादींची कुपां दाटल्यांत
पावस मात शिंपडटा
काळजाच्या आंगणांत
म्हज्या भुरगेपणाचो पावस
खूब भुरगो आसलो
म्हजेच वरी तो मस्तो
भिजल्यार लेगीत म्हाका
जोर ये नासलो
सत्री हातांतली
तो परतून उडयतालो
रस्तो सोडून खळयेंतल्यान
म्हाका तो चलून व्हरतालो
थंड थंड उदक
आंगां खांदार, माथ्यार
लकयतालो...
माथें, केंस, दप्तर, पुस्तकां
सरसकट भिजयतालो
जायत घडयेक तो म्हाका
खेळूंक आपयतालो
घसघशांनी भिजून
वरां भितर सुकयतालो
म्हज्या वांगडा तो
वत-पावसाचे खेळ खेळटालो
पावसांत भिजून हांव
वतांत सुकतालें
भिजलां म्हणून हांव
खंय कोणाक कळटालें

शाळेफाटल्यान व्हाळांत आमी
मदल्या वेळार खेळटालीं
बारीक मोटीं व्हडीं करून
काय बरीं सोडटालीं
आयज तो व्हाळ
सांकव बांदून सुदरायला
दोशी वटेन चिऱ्यांनी
बांदून काडला
वचत म्हणून तेवटेतल्यान
गुरख्याक उबो दवरला
पावस भर व्हांवतालो व्हाळ
गेलो तो काळ
मनाच्या मळबांत
यादींचीं कुपां दाटल्यांत
यादींतल्या पावसा
यो रे परत
यो रे पावसा
बसतां हांव शाळेंत वचून
शाळा सुट्टकूच यो रे
पावय म्हाका घरां व्हरून



७६.

# अटंग्या रानांत

अटंग्या रानांत आतां
उटंगाराचो पावस पडटा
मोर आपलीं पाखां फुलोवन
थुंय थुंय नाच नाचता
शखणाचीं पानां रानांत
वयर वयर चडटात
पाचवो धवो वळेसर गुंर्थीत
नदर आमचीं ओडटा
वागाचीं नाकटां रंगत फुलयतात
हाडां मांसाच्या रंगान
रान भेकडयतात
वारो, वादळ, रानां लेगीत
भियेनासतना भोंवतात
माकड जावन पावस वारो
झाडां पेडां मोडटा तोडटा
पाचवी साडी न्हेसून सैम
सूर्य देवाक रावता
भांगराच्या किरणांचीं
चकचकत्या वताची
देग पाचवे साडयेची
भुलकावणी भुलयतात
सुर्या गुळो कपलाक तिळो
रान सगळें दिपकायता
अटंग्या रानांत आतां
पिसो जावन वारो भोंवता
वाऱ्या तालान रान सगळें
मोर जावन नाच नाच नाचता



७७.

## कविता

तुजेर कविता आयज
हांवें बरयली
वाचून तुवें ती
बारकायेन निरखिली
तुका ती तुजीच दिसली
काया तुजी तिका हांसली
तुवें परत परत ती वाचली
तुज्या काळजाचे
खोलायेक वचून ती बसली
खीण भर सोदीत
म्हज्या मुखार कितें तरी
तुवें म्हणलें
बरी आसा कविता
अशीच आसूंक जाय
वाचतल्यांक ती आपलीशी
दिसूंक जाय!
तिका खोलाय गोलाय
आनी मोलाय आसूंक जाय
जिणेचो अर्थ तिच्यांत
सांपडूंक जाय
उतर उतर तिचें...
काळजाक भेदूंक जाय
बरयतल्यान ती अशीच
बरोवंक जाय...
हांव म्हज्यांत तुमकां घुसपायता
जीण म्हजी आनी तुमची
बेसबरी गुठलायता
पारखी जावन हांवें

जीण तुमची वळखल्या
म्हजी नदर तुमच्या
भितर भोंवून आयल्या
म्हणून तुमची कविता
आज हांवें बरयल्या
कविता अशी बरोवंक जाय
वाचतल्यांक ती...
आपलींशींच दिसूंक जाय!
●●●

७८.

# आंगणांतलें झोप

धा वर्सां पयलीं
हें अशेंच आंकुरलेलें
पानन पान फुल्लेलें
तेन्ना म्हजें धाकलें
जन्माक आयिल्लें
ताचे कपडे सुकोवंक घालतना
घरांत हाडतना हांव फुलां कुटायतालें
आटयो फांतयो रचयतालें
उपरांत तें फुल्लेंच ना
पावस गिमाची
ताका झळक लागली ना
तें बेठेंच उबें आसलें
आंगणांत म्हज्या!
आनी हांव घरांत
जगपाखातीर जगपाचें
आसा तशेंच रावपाचें
आमी दोगांयनी चिंतलेंलें
चुकून माकून केन्ना तरी
आंकुरतालें जायत...
खंय खंय एक एक पान
पूण फूल मात फुलूंक ना
ह्या वर्सा हांवें चिंतलें
जिणे म्हजे सुदारपाचें
आनी भर घातली ताच्या मुनाक
आनी पोशाले मायेन
झोप सगळें हालयलें
ताका बरें जागयलें
खूब ताचेकडेन उलयलें

इतल्यांत पावसान घालून घेतलें
आंकुरलें तें पानन पान फुल्लें
आतां म्हर्जी अक्षरां फुलतालीं
ताचेर फुलां धोलतालीं
धा वर्सां पयलीं तें फुलतालें
तेन्ना हांव अक्षरां सोदतालें
म्हज्या आंगा खांदार



७९.

# अस्तुरी

हांडोभर उदक आसा
आंगभर न्हावन घे
तपलेंभर पेज आसा
पोटभर जेवन घे
खीणभर वेळ आसा
दोळो मातसो लावन घे
पांयां पोंदची माती तुज्या
पांयांनीच मस्तून घे
हातान उखलून तिका
पोशान बरी मळून घे
नाक कान पोले तुजे
तेच मातयेन लोळून घे
तन-मन-धन आतां
सरसकट पेलून घे
मुखार उबें झाड आसा
ताका तानभर शिंपून घे
जीण ताची तूं मातशी
तुजे परीन समजून घे
फुलां फळांचो हावेस ताचो
तुजे वरवी फुलोवन घे
वता उज्याची झळ सोंशीत
मावो तुज्यो सांसपून घे
पानान पान खुटयलीं
चुडट्यांनीं हुलपायलीं
आंगभर फुलच्या खातीर
सांज सकाळ उदकान शिंपली
ही जीण तूं जगून घे
जिणे हे अस्तुरेचें

हारश्यांत रूप पळोवन घे
धूव, भयण, सून, आवय
हातूंत तुजें तुकाच घुसपून घे
जिणें हे अस्तुरेचें हात्यावरी फुलपाचें
कांट्यांनी जगपाचें
तूं हांसत खेळत जगून घे



८०.

# रात जागोन

निवांत शांत
किट्ट काळी रात
काजुले भोंवताले
उजवाड घेवन धांवताले
तेन्ना बांदलें मनाचें घर
देवाचेर दवरून भार
आनी चिंतलें
पोरसूं करपाचें
साहित्याचीं झाडां लावन
कवितेच्यो वाली चडोवच्यो
अक्षरां फुलोवपाचीं
त्या निवांत शांत रातीक
आडवी उबी दोन अक्षरां एकवटून
अणभवाची गाठ बांदली
आनी पोड रचयलो
रातभर कळे फुलतले
फुलत फुलत परमळटले
हांव एकांत
कविता जल्माक आयली
रात जागून...



८१.

# तूं म्हाका

तूं म्हाका कितेंच दिवं नाका
म्हजी जिद्द, चिकाटी, कश्ट
म्हाका खंय व्हरतां
तेन्ना मात आडावं नाका!

तूं म्हाका फुलां दिवं नाका
काळे कोंगरे केंस म्हजे
तोडपाक चिंतू नाका!

तूं म्हाका मोग दिवं नाका
व्हडल्या व्हडल्या संगाक
सांगणें घालूं नाका!

तुका दिसता तशें जावचें ना
नशीब म्हजें पितारपी
तो तूंच असो समजूं नाका!

म्हजे वाटेर कांटे दवरतात
बेठे तुज्याच हाताक
वोगीच तोंपू नाका
तूं म्हाका कितेंच दिवं नाका!



८२.

# सांज वेळ

सांज वेळ
जिणेची वेळ
यादींची ल्हारां
धांवतां मन
रावता तुका
पळय हो
ल्हारांचो खेळ
वाऱ्याचो नाच
निर्शेल्या पावलांची खुणां
बांदलले रेंवेचे बंगले
पुसतात, कोसळटात
उचंबळ जातात ल्हारां
आयच्यो यादी पुसून
फाल्यांक येवकार दिता
दर्या पळय...
परत आमकां हांसयता
वायट बरें सगळें गिळून
ल्हारांक खेळयतां
वाऱ्याक नाचयता
जिणेंचे वेळेर
यादींची ल्हारां तडेक येतात
यादी सोदतात!
धांवतां मन
रावता तुका
पळोवंक ल्हारांचो खेळ
वाऱ्याचो नाच

दर्याचो गाज
मन जावन कागदा व्हडें
कशें खंय वतां
ल्हार जावन यादींचे
तडेक धांवतां



८३.

# याद येता तुजी

याद येतां तुजी
तुवें म्हाका दिल्ल्या
मायेस्त उतरांची
याद येतां तुजी
तुज्या त्या नितळ दोळ्यांची
तुजे नदरेंत दिसली
काकूळट म्हजे जिणेची
याद येतां तुजी
आनी तुज्या आदाराची
आपलेपणान वावुरपी
ह्या परक्या नात्याची
याद येतां तुजी
तुवें उलोवन दाखयल्ल्या
तुज्या काळजांतल्या
म्हज्या मोगाची
याद येता या खिणाक
तुवें घाल्ल्या त्या
गोड सादाची
कान म्हजे नासले थाऱ्यार
उलो तुजो...
हुबून गेलो वाऱ्यान
यादीन तुज्या घुसपतां
मोग तुजो सांसपितां
उलो तुका मारतां
जापेक तुजे आशेतां



८४.

# अशेंच यो तूं

अशेंच यो तूं
सांज जावन
दर्याचे वेळेर
ल्हाराच्या खेळांत
वाऱ्याच्या नादांत
रेंवेच्या घरांनी
सपनांच्यो यादी
जागयत यो तूं
पुनवेचे रातीक
अशेंच यो तूं सांज
जावन दर्याचे वेळेर
ल्हारांच्या तालांर
वाऱ्याचें गीत गायत
मळबाच्या कपलार
चंद्रीम पळोवन
मोगाचे रंग नियाळीत
यो तूं म्हजे वेंगेंत
सांज जावन
रातभर...
सपनांच्या जगांत
भोंव भोंव भोंवया
अशेंच यो तूं
जिणेचे वाटेर
मेथी रंगयल्ले हात घेवन
अशेंच यो तूं किट्ट रात घेवन
म्हजे वेंगेंत
अमूरपिकी फांतोड जावन

उर्बा दी म्हाका
आशेचें किरण पळोवंक
सांगात दी म्हाका
सावळी जावन!



८५.

# हांव कविता

हांव जाली कविता एका कवीची...
हांव एक कवितां
कवी म्हजें भोंवतणी भोवतां
सुचता तशें, दिसता तशें
तो म्हाका न्हेसयता
हांव खेळटां लिपच्यांनी
नदर ताची धांवता
हांव बसतां कुशीक ताच्या
तो मातसो आड पडटा
हांव उठटांच...
ताका जाग येता
तो म्हाका पळयता
बारकायेन निरखिता
मोराचीं पांखां हाडून तो
आंगार म्हज्या भोंवडायता
मोगाच्या उतरांनी
काळजान म्हाका बुडयता
सैमाची सोबीतकाय
सोदून म्हाका दाखयता
ल्हारांचो नाच, दर्याचो गाज
आयकूंक म्हाका लायता
मळबांतले रंग तो पुंजायता
हांव एक कविता
कवी म्हजे भोंवतणी भोंवतां
हांव जालीं कवितां एका कवीची
कवी बसला मुखार म्हज्या
म्हणटा ही देणगी देवाची
हांव जालीं कवितां एका कवीची

तूं कवी, रचणूक हांव तुजी
पळोवंक गेल्यार ही रचणूक
सगळी त्या भाग्यवंताची
तुजी म्हजी सरभोंवतणची
सोबीत सुंदर सैमाची
हांव जाली कवितां एका कवीची

●●●

८६.

# तुजो हात

अशें कितें तरी म्हाका
तुवें तुज्या हातांत दिलें
पूण इतलेंच खरें
खूब कितें म्हाका मेळ्ळें
उतर मायेचें
लाख मोलाचें
तुवें उलयलें
काळजाचे खोलायेन
भितर भितर तें गेलें
आशेचें रोंप
काळजांतल्यान रुजून आयलें
उमेदीचें फूल फुललें
आनी तेन्नाच्यान
मन म्हजें तुका भुललें
तुज्या हाताचें म्हज्या हाताक
पिशें लागलें
मनाक चंवर आयलो
चंवर कवनांचो
पोड जायांचो... फुललो
म्हजो उजवो हात
उमथो हांवें केलों
इतल्यांत तूं धांवत आयलो
तुजो उजवो हात घेवन
आनी रचयलो म्हज्या
ओपत्या हाताचेर
ओंपतोच... आनी वेंगायलो
कवनां पोड दवरून ताचेर
पुडो हांवें बांदलों

तुज्या म्हज्या निवळ नितळ नात्याचो
बांदलो ताका दोर
नाचूंक लागलो मनांत
उमेदीचो मोर
मळबांतल्यान पळयताली तेन्ना
आमकां चंद्राची कोर
तुजो हात, तुवें दिल्लो
एक आदार...

●●●

